साहित्याची रचना जांवक लागली आनी हे परीं कोंकणी साहित्याची वाडावळ जाली. हो सुखाचो पावस चड तेंप पडूंक नां. 1684 ते 1855 ह्या काळांत पाडलल्या मारेकार इंक्विजिशन फरमाणेक लागून कोंकणी भाशेचेर बंदी घाली आनी ती नांच करचो यत्न जालो. तिचो गळो चिड्डून बळातकारान जीव काडचें षड्यंत्र तांणीं रचलें. पूण परतून 1855 आंत कोंकणी मांयेचेर सुखाचे दीस उदेले. 1855 थावन 1961, हो कोंकणी भाशेचो पुनरजल्माचो काळ. ह्याच काळांत कोंकणीचे तीन वीर फा. आंजेल्युस माफये, मों. रुदोल्फ सेबेस्त्यांव दाल्गाद आनी शणै गोंयबाब जियेलले. माफये जर मंगळुरी कोंकणी क्रिस्तांवांचे, कानडी लिपयेंत कोंकणीचो बुन्यादी फातर आसललो जाल्यार, दाल्गाद गोंयकार कोंकणी क्रिस्तांवांचे आधुनीक रोमी लिपयेंत कोंकणीचो मुखेल फातर आनी गोंयबाब अंत्रुजकार सारस्वतांचे नागरी लिपयेंत बरयलल्या कोंकणी लिपयेचो फुडारी. ह्या तीन कोंकणी विरांची चड म्हायती आनी योगदान दिवंची गरज म्हाका म्हज्या ह्या प्रबंधांत दिसना.

ताचे उपरांत म्हज्या मता परमाणें 1961-1992 हो कोंकणी चळवळीचो काळ. गोंय प्रदेशाक राज्याचो दरजो मेळलो. कोंकणी ही गोंय राज्याची राज भास जाली. कोंकणीक साहित्य अकदेमीची मान्यताय मेळली आनी संविधानाचे आटवे वळेरेंत तिचो आसपाव जालो.

कोंकणीच्या आदल्या साहित्याचेर एक नदर मारल्यार 1116 ते 1117 इस्वेच्या अदमासाक श्रावणबेळगोळाच्या गोमटेश्वराची मुर्ती कांतयलल्या शिल्पकारान बरयललें आपलें नांव. गोमटेश्वर जैन पंथाचो पयलो तीर्थंकर, अधिनाथाचो पूत आसलो, जाची मूर्त श्रावणबेळगोळांत श्री चामुंडराय आनी गंगराजान कांतयलली. ताचीं उतरां अशीं:

"श्री चावुण्डराजें करवियलें"

"श्री गंगराजें सुत्तले करवियले"

हे दोनूय लेख नागरी लिपयेंत आमकां मेळतात. जाणकारांचें अशें मत आसा की, ह्या दोनूय शिल्पकारांक अस्तंत आनी दकीण-अस्तंतांत आपणान केल्लें काम त्या वाठारांत आसलल्या समस्त लोकांक दाकोंवक जाय आसललें. देखून तांणीं तमिळ, कन्नडांत आनी थंय राबितो करुन आसलल्या कोंकणी लोकां खातीर कोंकणींतूय आपणालीं नांवां कांतोवन दवरलीं. हांतल्यान दोन गजाली स्पष्ट जातात आनी त्यो म्हणल्यार कोंकणी भास मराठी परस चड आदली आनी त्या काळार नागरी लिपयेचो वापर कोंकणी खातीर जातालो. ताचे उपरांत नामदेवाच्या 'पंच गवळणींच्या' काव्यांत एक कोंकणी उलोवपी गवळणीचो उल्लेख आसा. ही गवळणी कोंकणीच्या उत्तर फांट्याची मालवणी/कुडाळी बोली उलयता. ताचीं उतरां अशीं:

"पाव गा दातारा । पाव गा दातारा ।

तूं नंदाचा झिलो ।।

माकां फडको दी । मीं हिवान मेलों ।

घे माझे कोयतो । देवा पायां पडलों ।।

ताचे उपरांत 14व्या शेंकड्यांत बरयललें थोडे शील लेख वांदोडें (गोंय) आनी 1474 इस्वेंत बंदिवादर, नागेशीं देवळांत कांतयलले थोडे कोंकणी शील लेख आमकां मेळतात. आनी शेकीं एक जिवो पुरावो म्हणल्यार अप्पु भट, विनायक पंडित आनी रंगा भट ह्या कोच्चीच्या तीन वैजांनी बरयललें आयुर्वेदीक वनस्पतींच्या वापराचेर वकतां पुस्तक - 'होरतुस इन्दिकुस मलाबारीकुस'. हें पुस्तक डच राजवटे वेळार बरयललो, 1678आंत छापललो. त्या पुस्तकाच्या पयल्या पानारुच ह्या तीन वैजांनी ह्या पुस्तकाची म्हायती, पुस्तकांत बरयलले भाशेची आनी लिपयेची (नागर बरप) म्हायती स्पश्ट आमकां दिल्या. पुरतुगेज राजवटे वेळार पयलो छापललो कोंकणी ग्रंथ म्हणल्यार फा. तॉमास स्टीवन्साचो (1549-1619) 'क्रिस्तपुराण'. ह्या ग्रंथाची भास 'मराठी' म्हण तो स्पश्ट सांगता. तरी पूण ती गोमंतकीय ब्राह्मणांची कोंकणी बोली म्हण मुखार सांगता. हाचें तात्पर्य अशें की भास जरी मराठी आसलली जाल्यार, ताणें जायतीं कोंकणी (थळावी भास) उतरां भरसून कोंकणी परजे खातीर हो ग्रंथ बरयललो. भास विज्ञानाचे नदरेन पळयल्यार ह्या ग्रंथाची भास 'मराठी' हांतूं कसलोच दुबाव नां. ताचे उपरांत ताणें परयललीं दोन पुस्तकां आमकां म्हत्वाचीं. एक 'दौत्रिन क्रिस्तां' (1622) कोंकणीचे ब्राह्मणी बोलींत आनी दुसरें कोंकणी भाशेचें व्याकरण, पुरतुगेज भाशेंत. फा. तॉमास स्टीवन्स, हो कोंकणीचो म्हलगडो वीर, हांतूं कांयच दुबाव नां. ताचे उपरांत फा. आंतोनियो द साल्दाञान (1599-1663) कुणबी बोलयेंत 1651व्या वर्सा 'सांत आंतोनिचीं अचर्यां' हें पुस्तक बरयललें. ह्या पुस्तकाचे दोन भाग आसात. दुसऱ्या भागांत ताच्या जिविताची कथा आसा, जी ताणें ब्राह्मणी बोलयेंत बरयल्या. तांचे उपरांत 17व्या शेंकड्यांत मिगेल द आल्मेदान (1607-1683) 1658व्या वर्सा 'वनवाळ्यांयॉ मळॉ' रोमी लिपयेंत ब्राह्मणी बोलयेंत बरयललें.

हे परीं ग्रांथीक भास बरोंवक वापरलले बोलयेंतल्यान आमकां एक गजाल स्पश्ट जाता आनी ती म्हणल्यार, पुर्वील्ल्या काळार थावन बामणांचे कोंकणी बोलयेंत आनी हेर बामण नासलले कोंकणी लोकांचे बोलयेंत फरक आसललो. ही 'ब्राह्मणी बोली' वा 'बामणांची बोली' घडये साश्टीच्या बामणांची भास, जे धर्मांतर आनी स्थळांतर हांकां लागून कोंकणाच्या हेर वाठारांनी आनी दक्षिणेंत कन्नड राज्यांत आनी कोच्चींत पावले. तशेंच, बारदेसांत धर्मांतराक भियेवन, मराठ्यांच्या आक्रमणांक भियेवन, दुकळेक लागून आनी हेर कारणांक लागून जायते बारदेसकार मंगळूर, बेळगांव आनी सिंधुदुर्गांत पावले. देखून साश्टीचे बामण मंगळुरांतल्या सारस्वत बामणांचे पुर्वज

जाल्यार बारदेसकार, हे मंगळुरकार क्रिस्तांवांचे पुर्वज. उत्तर आनी दक्षिण कन्नडांत कोंकणी उलोवपी सारस्वतांची तशेंच कोच्चींत उलोंवच्या कोंकणी सारस्वतांची भास आयच्या काळार साश्टींत उलोंव्च्या साश्टी कोंकणी कडेन चडुणें जुळता. कोंकणीचें प्रमाणीकरण करताना ही मुखेल गजाल मनांत दवरुंक फावो.

माफयेन इंग्लेज-कोंकणी शब्दकोश (1883), कोंकणी व्याकरण (1882) आनी कोंकणी-इंग्लेज शब्दकोश (1885) बरोवन मंगळुरी कोंकणी क्रिस्तांवां मदें कोंकणी साहित्याचें बीं रोयलें. लागीं लागीं त्याच काळार पुणे थावन एडवर्ड द सौजान रोमी लिपयेंत पयलें कोंकणी पत्र 1889आंत 'उदेंतीचें साळक' परगटलें. दाल्गादान 'कोंकणी-पुरतुगेज शब्दकोश (1893, मुंबय) आनी पुरतुगेज-कोंकणी शब्दकोश (1905, लिस्बन) उजवाडायलो. जेन्ना 1912व्या वर्सा 'कोंकणी दिर्वें' हें पयलें कानडी लिपयेंत कोंकणी पत्र परगट जांवक लागलें, तेन्ना माफयेचो कोंकणी खातीर वावर सुफळ जालो. तॉमास मावरोन (कुंबारजुनाचो बारांव) हाणें एक कोंकणी मुळावें पुस्तक नागरींत उजवाडायललें. हाचे उपरांत कोंकणी मांयेची लज वाटांवक शणै गोंयबाब कोंकणी साहित्यांत रिगलो आनी आपल्या उलोवपां आनी बरपां वरवीं ताणें कोंकणीचो मान राकलो. ताचें 'कोंकणी मुळावें पुस्तक', आनी 'कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ' हीं दोन पुस्तक कोंकणी भाशीक साहित्याक चड म्हत्वाचीं.

हांगा दिलल्या वळेरेंत पुस्तकांची तशींच बरोवप्यांचीं नांवां दिताना 10व्या शेंकड्या थावन 21व्या शेंकड्या मेरेन जियेलल्या सगळ्या साहित्यकारांचें वर्णन हांवें करुंक नां. हो म्हजो हेतू न्हय. म्हजो हेतू फकत कोंकणी भाशेचे प्रगतीचे नदरेन साहित्याची वाड कशी जाली, हें दाकवोंक मात.

## 1.3. प्रबंधाचो सार

प्रस्तावने उपरांत आनी 5 अवेस्वर आसात. प्रस्तावनांत हांवें हो विषय विंचच्या फाटल्यान म्हजो हेतू कितें, कोंकणी भाशेचो आनी लोकांचो इतिहास हाचेर बरयलां.

दुसऱ्या अवेस्वरांत हांवें कोंकणी संबंदीत तीन वाद भाशावाद, लिपीवाद आनी बोलीवाद हांचेर बरयलां आनी म्हजेंय मत उकतायलां.

तिसऱ्या अवेस्वरांत कोंकणी भाशेक आडावपी मुखेल वाद 'लिपीवाद' ह्या विषयाचेर बरयलां. कोंकणीच्यो आदल्यो लिपयो खंयच्यो आनी तांची परिस्थिती हांचे विशीं इल्लें बरोवन, आतां आसलल्यो कोंकणीच्यो तीन मुखेल लिपयो - रोमी, नागरी कानडी, हांचें खाशेलेपण आनी उणेपण दाकोवन एक तुळात्मक तकटो दिला.

चोवथ्या अवेस्वरांत कोंकणीच्या मुखेल बोलयांची म्हायती दिवन तांतूं प्रमाणीकरण कशें करूं येता, ह्या विषयाचेर हांवें म्हज्यो सुचोवण्यो पांचव्या अवेस्वरांत दिल्यात. ह्या अध्यायांत मंगळुरी क्रिस्तांवांची कोंकणी बोलो घेवन प्रमाण कोंकणी कडे कशें येंव येता

हाचेर खेरीत नियाळ केला.

सवो अवेस्वर हो समारोप. हांगा हांवें कोंकणी भाशेच्या संदर्भात म्हज्या काळजा मनांत आसलली भोगणां उकतायल्यांत.

## 2. कोंकणी संबंदीत तीन वाद : भाशावाद, लिपीवाद आनी बोलीवाद

कोंकणी मांयेन सुखाचे दीस केन्ना काडले? हो एक भांगाराचो, नियाळपा सारको प्रस्न. म्हज्या ह्या अवेस्वरांत हांवें प्रत्येक वादा विशीं संक्षिप्त म्हायती दिल्या. तिसऱ्या आनी चोवथ्या अवेस्वरांत ह्या वादांचेर विस्तारान बरयलां. पयलो वाद हो भाशावाद - कोंकणी आनी मराठीच्या संबंदा विशीं, पूण हो प्रस्न आतां सुटावो जाला. देखून फुडल्या अवेस्वरांनी हाचो उल्लेख करुंक नां. भारतांत वा संसारांत आसलल्या खंयचेय भाशेन असले दूख सोंसूंक नासतले.

### 2.1. भाशावाद

जुजे पिरेरा परमाणें, पुरतुगेजांच्या प्रभावान कोंकणीक फायदो तशेंच लुकसाणूय जालां. फायदो म्हणल्यार, तिका मराठीच्या बांदपासा थावन मेकळें दवरलें. पूण तिची अस्मिताय नपयत करचो यत्न लेगीत केलो. लुकसाण म्हणल्यार तांणीं तिका अपणा भितर आसपांवचो, 'पुरतुगेजीकरणाचो', यत्न केलो. पुरतुगेजांच्या काळार आनी तांचे आदीं लेगीत जायत्या हिंदवांनी मराठीक (तशेंच कन्नडाक) आपल्या धर्माची भास म्हण आपणायली आनी तांणीं तांतूं साहित्या लेगीत उपजयलें. पूण अशें करताना मराठीन कोंकणीची वा तिची अस्मिताय राकची परवा केली नां. उलटें, 1807व्या वर्सा उपरांत स्कॉट जॉन लेडन (1775-1811) ह्या पंडितान कोंकणी फकत मराठीची बोली म्हण तिचें वेगळे आनी खाशेले अस्मितायेचो गळो चिड्डून खून केलो. ताचे उपरांत जायत्या मराठीवाद्यांनी वेगवेगळ्या कारणांक लागून ही फटाशी फुडें पसरयली आनी कोंकणी संस्कृताय नाच करचो यत्न केलो. पूण तांच्या ह्या वावराक येस मेळूंक ना.

मात जॉन लेडनान पेटयललो हो उजो वाडतूच गेलो, आनी मागीर दाल्गाद, गोंयबाब आनी दो. सुमित्र मंगेश कत्रे वरवीं तो उजो थंड जालो. असो मराठी-कोंकणी भाशावाद सोंपलो. 26 फेब्रेवरी 1975व्या वर्सा भारतीय साहित्य अकादेमीन तिका एक स्वतंत्र साहित्यीक भास म्हण सांगून हे गजालीक आनीक चड बळगें दिलें.

दो. जुजे पिरेर अशें म्हणतात की जॉन लेडन होच कोंकणी-मराठी वितकवादाचें मुखेल कारण. एडनबरोंत आपलें शिकप सोंपयलले उपरांत 1803आंत तो मद्रास, भारतांत आयलो आनी टिपू सुल्तानाच्या ताब्या खाल आसलल्या प्रांतांनी भोंवलो. 1807आंत ताणें भारतीय भाशांचेर एक निबंध बरयलो. अशें म्हणतात की जॉन लेडन

पयलो युरोपी मनीस आसललो, जाणें भारतीय भाशांचें वर्गीकरण केल्लें. ताचे परमाणें भारतीय भाशांचीं 2 मुखेल केंद्रां आसात. उत्तरांत संस्कृत आनी दक्षिणांत तमिळ. हेर ज्यो भासो आसात त्यो फकत मदल्यो भासो. ह्या मदल्या भाशांचें तो दोन गट करुन तांकां प्राथमीक आनी माध्यमीक बोलयो, हें नांव दिवन भास आनी बोली हांचें मदें अंतर करता. पयल्या गटांत तो 8 भाशांचो उल्लेख करता, जांतूं मराठी आनी गुजरातीचो आसपाव आसललो. दुसऱ्या गटांतूय तो 8 बोलयांचो उल्लेख करुन तुळू, कुर्गी आनी कोंकणीचो उल्लेख, महाराष्ट्र (मराठी) भाशेची बोली म्हण करता. आपलो हो वावर जालले उपरांत ताणें समान आसलल्या भयण भाशांचो तुळात्मक शोध करचो निचेव घेतलो. हांतूं मराठी, गुजराती, कोंकणी, उडिया आदी भाशांचो आसपाव आसललो. पूण दुरदैवान 1811व्या वर्सा तो मरण पावलो आनी ताचो हो वावर तसोच उरलो. जर ताणें हो तुळात्मक शोध केल्लो जाल्यार, ताका कोंकणी आनी मराठी ह्यो वेगळ्यो भासो म्हण कळून येत आसलें.

शणै गोंयबाबाचे वेळार अनंत काकबा प्रियोळकार आनी हेर गोंयकार मराठीवादी आपली मांय भास मराठी म्हण पेंपेरें वाजोवन आसल्यांक, गोंयबाबान आपल्या उलोवपां आनी बरोवपां वरवीं थंड बसयलें. पूण तांचे आदीं दो. येलियोदोरु कूज रिवेरा (1800-79), ह्या एका पुरतुगेजी पंडितान आपल्या एका शोध निबंधांत कोंकणी भाशेच्या वेगळ्या अस्तित्वाची भरपूर म्हायती दिल्ली. गोंयबाबाच्या काळार ग्रियसनान, 1905आंत मराठी आनी कोंकणीचो संबंद दाकयलो. तांचे उपरांत आर्विल्ल्या काळार विज्ञानीक संशोधन करुन दो. सु. मं. कत्रेन 'फॉर्मेशन ऑफ कोंकणी' आनी अ. मा. घाटगेन, कोंकणी एक भास म्हण खात्री पुर्वक पुरावे दिले. हे परीं कोंकणी मराठीचो तर्क नासललो हो वाद हांगाच सोंपलो.

## 2.2. लिपीवाद

पुर्विल्ल्या काळा थावन कोंकणी बरोंवक वेगवेगळ्या लिपयांचो उपयोग जाल्लो आसा. थोडे म्हणतात ब्राह्मी लिपी तर थोडे जाणकार म्हणतात मोडी, हळे कन्नड आनी थोडे कानडवी वा गोंय-कानडी लिपी. जायत्यांचें मत आदीं पासून कोंकणीक फकत एकूच लिपी आनी ती म्हणल्यार 'नागरी लिपी', अशेंय आसा. पूण मागीर रोमी लिपयेचो वापर पुरतुगेजांचे राजवटे वेळार सुरु जालो आनी हेच लिपये वरवीं संमारभर कोंकणी भाशेची वळक जाली. भटकळांत नवायती मुस्लीम आपली आवय भास, नवायती-कोंकणी, फरसी-आरबी लिपयेंत बरोवन आयल्यात आनी कोचींत, केरळांत कोंकणी लोकांनी आपली मांय भास थंयचे मल्याळम लिपयेंत बरोवन जिवी दवरली.

'कोंकणी ही संस्कृत भाशेची म्हलगडी धूव. संस्कृत भाशेची लिपी हीच कोंकणीची

लिपी जांवक जांय'. पूण अशें म्हणताना दुसऱ्या लिपयांचे कितें? तांच्या अस्तित्वाचें कितें? ह्या लिपयांनी लेगीत आपली एक परंपरा आसा, खाशेलेपण आसा. ताचें कितें?

सीहित्य अकादेमी कडल्यान मान्यताय मेळल्या उपरांत फकत देवनागरींत बरयलले कोंकणीकूच अधिकृत दरजो दिंवचो असो वाऱ्यार उबोवन आयललो थाराव गुपीत, कोणाकूच खबर नासताना पास जाल्लो. हेर लिपयेच्या दोन-तीन प्रतिनिधींचो निश्चय आख्खे कोंकणी परजेची थारावणी म्हण लेकून 'देवनागरी-हीच कोंकणीची अधिकृत लिपी' असो थाराव जेन्ना घेतलो, तेन्ना हेर लिपी वापरतल्या कोंकणी लोकांक फटयलें परीं भोगलें. मागीर तांणीं लेगीत आप आपले लिपयेक, विशेष करून रोमीवाले आनी कानडी लिपीवाल्यांनी, तांकां लेगीत समान दरजो दिंवक जाय म्हण बोबाट घालो - माचयेर तशेंच पत्रांनी.

हे परीं फाटल्या धा वीस वर्सां थावन हो लिपीवाद चालूच आसा. रोमी आनी कानडी लिपी वापरतल्या थोड्या साहित्यकारांनी तर कोंकणी परिषदांचो आनी संमेलनांचो बहिष्कारुच केला. इतलेंच न्हय, तेय आतां लिपयेचेर केंद्रीत कोंकणी परिषदो आनी संमेलनां घडोंवचे इराद्यार आसात. रोमी लिपयेचे उदरगती खातीर एक संमेलन गेल्या वर्सा (2008) घडललें. रोमीवाले आजुनूय देवनागरी सांगाता रोमी लिपयेक लेगीत समान दरजो दिंवच्याक सरकारा लागीं मागणें करीत आसात. हो दिश्टावो गोंयचो. कर्नाटकांत तर देवनागरीचें नांव लेगीत नां.

## 2.3. बोलीवाद

कोंकणीच्यो जायत्यो बोलयो आसात. धर्मा परमाणें, जाती परमाणें आनी वाठारा परमाणें कोंकणीच्यो बोलयो आसात. थोडे जण लिपये परमाणेंय कोंकणीच्यो बोलयो आसात म्हण मांगतात. कोंकणीच्यो बोलयो खंयच्यो, कशे उपजाल्यो हाचे विशीं म्हज्या पांचव्या अवेस्वरांत हांवें दिलां. हांगा हांव बोलीवाद कितें आनी कसो निर्माण जालो, हाचेर इल्लो उजवाड घलूंक सोदतां.

कोंकणी, फकत 'मराठीची बोली' म्हण सांगून कोंकणी भाशेच्या अस्तित्वाचेर संकट घालून भाशावाद निर्माण केलो आनी नागरी वरोवर हेर लिपयांकूय मान्यताय दियात म्हण मागून लिपीवाद सुरु जालो. तेच परीं 'आमचीय भास शुद्ध, दुसऱ्यांची अशुद्ध. ती भंगल्या', अशें म्हण लेकून फकत एकाच समाजाचे बोलयेक 'अधिकृत भास' म्हणललो दरजो दिलल्यान हो 'बोलीवाद' निर्माण जालो.

पुर्विल्ल्या काळा पासून आर्विल्ल्या काळा मेरेन पुस्तकांनी बरयलली कोंकणी आमची कोंकणी न्हय म्हण कोंकणी मनशाक सदांच भोगललें. तरी ते सोसून आयल्यात. भारताच्या हेर भासो, जांकां भाशेचो दरजो मेळला तो खरो म्हणल्यार त्या त्या वाठारांतल्या बामणांची बोली. ह्याकाच लागून जेन्ना आमी 'प्रमाण मराठी'

म्हण मांगतात ती खऱ्यान कोकणांतले कायस्थ प्रभूंची वा पुणेच्या चित्पावन बामणांची बोली, जी 19व्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत प्रमाण जायत गेली. हें अ. का. प्रियोळकरांचें मत. तशेंच 'प्रमाण कानडी' म्हणल्या मैसूरांत राबितो करतल्या लिंगायत बामणांची बोली भास.

हेच गजलीची नक्कल करुन अंत्रुज म्हालांतल्या कांय गोंयकार बामणांनी आपलीच बोली भास प्रमाण कोंकणी जांवक जाय अशी येवजण मांडली. शिक्षणीक मळार तांणीं पाठ्यपुस्तकां आपले बोलयेंत उजवाडायलीं. शाळेंत लेगून तांणीं तांच्याच समाजाचे कोंकणी शिकोवपी दवरले, जांणीं विस्वाशीपणान आपलें कार्य मुखार व्हेलें. मराठी जाणा आसलल्या गोंयकारांचेर आनी बामण समाजाच्या कोंकणी लोकांचेर हाचो चड प्रभाव पडूंक नां. पूण क्रिस्तांव कोंकणी भुरग्यांचे तर हाल हवाल जाले. फकत मुटभर, दोन तीन क्रिस्तांव भुरगे नागरी लिपयेंत प्रवीण जाले आनी व्हडले बरोवपी जाले, पूण चडांत चड कोंकणी क्रिस्तांवांक कोंकणी भास 'दुसरी भास' कशी दिसूंक लागली. आतांय जाल्यार जायते शुकलले क्रिस्तांव लोक नागरींत बरयलले कोंकणीचें सारकेपण मराठी भाशे लागीं करतात. तांकां मराठींत आनी नागरींत बरयलली कोंकणी भास एकूच दिसता कितें? भोवमत क्रिस्तांवांनी तशेंच भोसानी, बामणांची ही 'प्रमाण कोंकणी भास' आपली मांय भास म्हण आपणायली नां. हे गजालीक आतां 40 वर्सां जांवक आयल्यांत. हेंय एक कोडू सत, व्हय म्हण सांगूंक भंय दिसता. दूख दिसता.

कर्नाटकांत जेन्ना कोंकणी एक विषय म्हण शिकोंवच्याक पाठ्यपुस्तकां थारांवची भासा भास चालताली. तेन्ना गोंयांत चालंत आसलल्या पाठ्यपुस्तकांचो वापर करचो जेन्ना प्रश्न उदेलो, तेन्ना कोंकणी लोकां मदें जनमत जालें. ताचो निकाल असो जालो की 'तांचीं पाठ्यपुस्तकांय नाकात, बोलीय नाका आनी लिपीय नाका'. 'आमकां आमची भास आनी आमती लिपी आसा!' आमचे कोंकणी मांयेक असलेय दीस पळोंवचे पडले.

आतां कर्नाटकांत लेगीत शाळांनी कोंकणी शिकयतात म्हण खुशाल जांवची गरज नां. ही मंगळुरकार क्रिस्तांवांची कानडी लिपयेंत बरयलली कोंकणी, जी तांच्याच शाळांनी, तांचेच लोक शिकयतात. फाल्यां जर सारस्वतांकूय इल्लें शिक्षण क्षेत्रांत बळगें मेळल्यार, तांच्याय संस्थेंनी तींय तांचेच बोलयेंत, तांचेच लिपयेंत कोंकणी शिकूंक सुरु करीत. आनी मागीर गोंयांत जालल्या परीं लिपीवाद आनी बोलीवाद म्हण दोनूय समाजां मदें फूट पडत. निमाणें विवीद लिपयो, विवीद कोंकणी रुपां म्हणून कांक्रे पिडा जावन कोंकणी मरतली. जर गोंयां सारस्वत समाजान आपली बोली थापून बामणवाद मांडला जाल्यार,कर्नाटकांत मंगळूरकार क्रिस्तांवांनी आपली बोली थापून नवो बामणवाद

(Neo-Brahminism) मांडला. शेकीं, ह्या झगड्यांत 'वाप्पाय नां, पुडवेंय नां' जायत.

कोंकणी आतां जेन्ना बंदेंतल्यान सुटल्या, चिड्डिलली, चेपलली, दांबलली आमची भास, पुनर जिवंत जाल्या, तेन्ना तिची सेवा आनी वाडावळी खातीर वावुरचे बदला, तिचे मुखार आमी आमच्याच सुवार्थाक लागून, पुरस्कारांक लागून आडखली हाडीत आसात. आपलीच बोली समस्तांचेर थापची - हो प्रयोग गोंयांत निर्फळ जालो आनी ताचो प्रभाव एकदमूच मारेकार जालो. देखून विज्ञानीक आनी तर्क बुद्दीन आमी आमची भास जिवाळ दवरूंया. नवी बोली रचची गरजड नां. आसा तेंच पुजोंवया. 'थोडे आमचें, थोडें तुमचें' हें शणै गोंयबाबालें सुत्र मनांत दवरून आमचे तुमचे मदें जें कितें समासम आसा तें दोळे धांपून घेंवया आनी कोंकणी भास सांबाळुंया. कोंकणीचे फकत फुडारी न्हय, झुजारी जांवया. तिची बरी सेवा करून, तिच्या भयण भाशांक जो दरजो फावो जाला, तसलोच दरजो आमी आमचे मोगाळ आवय भाशेक फावो करूंया.

हीच आमच्या मोगाळ आवय भाशेची गत. तिचो दुखभरीत भूत काळ, वर्तमान काळ आनी भविष्य काळ. भूत काळांत भास काय बोली म्हण ती भाशावादाक सांपडली. वर्तमान काळांत तिची अधिकृत लिपी खंयची म्हण ती लिपीवादाक सांपडल्या आनी भविष्यांत (आतांय) खंयची बोली प्रमाण थारांवची वा नवी बोली घडोंवची ह्या विषयाक तेंकून बोलीवाद!

## 3. कोंकणीचो लिपीवाद

म्हज्या ह्या अध्यायांत हांवें कोंकणीच्यो आदल्यो लिपयो खंयच्यो, हाचे विशीं थोडे भितर म्हायती दिल्या. दुसऱ्या भागांत आतांच्या काळार चालंत आसलल्या मुखेल तीन लिपयो - रोमी, देवनागरी आनी कानडी, हांचे इतिहासीक नदरेन (historicity), उपेगाचे नदरेन (facility) आनी लोक प्रियतायेचे नदरेन (popularity), प्रत्येक लिपयेच्या खाशेलेपणाच्या आनी उणेपणाच्या लक्षणांचेर तुळात्मक तकटो दिवन नियाळ केला.

### 3.1. कोंकणीच्यो आदल्यो लिपयो

जायत्या जाणकारांच्या मता परमाणें कोंकणी ही फकत जिवेर उलयलली भास आसलल्यान, तिचें भरपूर तोंडपाशी साहित्य मात आसा. कोंकणींत बरपावळ चड जांवक नासली वा कांयच जांवक नासली म्हणूय लेकतात. दो. प्रताप नायका परमाणें "पुरतुगेज येंवचें आदीं कोंकणींत खूब बरपावळ आसलली, जी पुरतुगेजांनी लासून उडयली," हांतूं तिळा इतलें मत नां. कारण हे गजालीक घट, दग्जेदार पुरावे नांत.

तांच्या एका लेखांत तांणीं कोंकणीचे लिपये विशीं बरयताना ते सांगतात की,

गोंयचे आदले वेपारी आपले हिशोब दवरुंक हळे कन्नड वा पोरणे कन्नड लिपयेचो उपेग करताले. कदंबांचे राजवटेक लागून जायते गोंयकार कोंकणी वेपारी हांगा थावन कन्नड राज्यांत पावले आनी थंयच्या लोकां कडल्यान ते ही लिपी शिकले. हळे कन्नड लिपयेंत बरयलल्या कोंकणी हात बरपांची प्रत मेळ्ळ्या. पूण हेर जाणकारांचें मत अशें की, सगळे जण कोंकणी बरोंवक हळे कन्नड लिपयेचो वापर करी नासले. थोडे जण जे मराठी शिकलले ते देवनागरी आनी मोडी लिपयेचो उपेग करताले खंय आनी थोड्या पंडितांनी हळे कन्नड लिपयेंत थोडो भोव बदल करुन कोंकणीक जुळोंवचे खातीर एक सुदरलली लिपी घडयली जांवक पुरो. हेच कानडी लिपयेक 'गोंय कानडी' वा 'कानडवी' लिपी म्हण नांव पडलें दिसता. देवनागरी लिपयेची परंपरा आसली काय नां म्हण दाकोंवक घट पुरावे आमकां आजून मेळ्ळूंक नांत. पूण मंदिरांनी आनी फातरांचेर कांतयलले शील लेख कोंकणींत, देवनागरी लिपयेंत सोदून काडलले मेळ्ळ्यांत. देवनागरी लिपयेची परंपरा जरी आसली, ती फकत मूटभर पंडितां मदें मात तिगून उरली जांवक पुरो. तेच परीं जर कोंकणीचे म्हावीर टॉमास स्टीवन्साक आपणान बरयललें लेख देवनागरींत छापचें दिसललें जाल्यार, देवनागरी लिपयेचो प्रभाव 16 ते 17व्या शेंकड्यांत बरोच आसलोसो दिसता.

थळावे लिपयेंत कोंकणी छापूंक खिळे (ठसे) नासलल्यानान आनी आपणाक सोंपी पडची रोमी लिपी घेवन विदेशी धर्म प्रचारकांनी आपली कोंकणी बरपां रोमी लिपयेंत छापूंक सुरु केलीं. हीच लिपी इगर्जेची आनी गोंयकार क्रिस्तांवांची अधिकृत लिपी जाली. हेच लिपयेंत व्हडांतलें व्हड कोंकणी साहित्य निर्माण जांवक लागलें, कितलेशे ग्रंथ, गितां झेले, शब्दकोश, व्याकरण पुस्तकां, धार्मीक बरपावळ, बी आयलीं आनी 'कोंकणी म्हणल्यार रोमी लिपयेंत बरयलली कोंकणी' असो संसारभर समज आसलो. वॅटिकन नगरांत (रोमा शार) जंय एके वणतीर संसारांतल्या वेगवेगळ्या भाशांनी बरयललें 'आमचे बापा' हें मागणें आसा, थंय हें मागणें कोंकणींत लेगून, रोमी लिपयेंत बरयललें आसा. रोमी लिपये वरवीं संसारभर कोंकणी भास गाजली म्हणल्यार अतिताय जांवची ना.

आधुनीक काळांत देवनागरी जर वयर सरली, ताचो श्रेय शणै गोंयबावाक वेता. तांणीं देवनागरींत (तशेंच रोमींत) कोंकणी भाशेच्या समर्थांत जायतें बरयलें आनी छापलें. देवनागरी लिपये बरोबर अंत्रुजी बोलयेची कोंकणी पूण वयर सरली. ही शणै गोंयबाबाची परंपरा मोडून भोव थोडे कोंकणी लोक नागरींत कोंकणी बरयतले. 20व्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत बेळगांवचे बारदेसकार, सिंधुदुर्गाचे क्रिस्तांव बारदेसकार, तशेंच कारवार आनी मंगळूरचे कांय कोंकणी लोक ही लिपी वापरुंक लागले. पूण हीं बरपां फकत तांचेच मदें, तांच्याच समाजाच्या लोकां खातीर मात उरलीं. 1939चे

यले कोंकणी परिषदे' उपरांत जेन्ना कोंकणी खातीर देवनागरी लिपी वापरचो थागव ांडलो, तेन्ना थावन अखिल भारतीय पांवड्यार आनी कोंकणी खातीर अधिकृत लिपी, वनागरीच वापरुंक लागल्यात. गोंयचे सुटके उपरांत जेन्ना शाळांनी कोंकणी शिकोंवचो ग मेळलो, तेन्ना देवनागरींतूच कोंकणी शिकप सुरु जालें. फाटल्या चाळीस वर्सां ावन शाळेंत शिकलला दरेक कोंकणी गोंयकार भुरगो ही लिपी जाणा. पूण भोव ोडे कोंकणी परोवपी, विशेष करुन क्रिस्तांव समाजांतले उपजल्यात, हें पळोवन दूख दिसता!

तेच परीं आधुनीक काळांत कानडी लिपी वयर काडपी मंगळुरकार क्रिस्तांव, ांणीं माफयेच्या प्रभावान तोंडार आसलली आपली भास, ग्रांथीक रुपार कागदां त्रांचेर हाडली. 1912आंत पयलें कानडी लिपयेंतलें कोंकणी पत्र 'कोंकणी दिवें' सुरु जालें. आतां तें बंद पडलां. तेन्ना थावन आतां मेरेन कानडी लिपयेंत बरयलले कोंकणीची दिसान दीस वाडावळ जायत आसा. धार्मीक साहित्याच्या मळार तर दिसान दीस म्हणल्या परीं ग्रंथ, पुस्तकां, पुस्तिकां, पत्रां, बी भायर सरतात. आयच्या काळार कानडी लिपयेंत बरयलले कोंकणी भाशेचें चडांत चड वाचपी आसात म्हणल्यार बिलकूल अतिताय जांवची नां. कोंकणी खातीर मंगळुरकार क्रिस्तांवांचें कार्य फकत मंगळूर, मुंबय वा भारतांतूच मर्यादीत नां. तें गल्फांत आनी हेर विदेशी देसांनी चलत आसा. तांच्याच दबावाक लागून आज कर्नाटकांत थोड्या उत्तर आनी दक्षिण कन्नडाच्या शाळांनी 'कोंकणी - तिसरी भास', एक विषय म्हण शिकूंक मेळता. अंतर जाळार लेगीत कानडी लिपयेंत बरयलली कोंकणी पर्जळता. कितलेशे कॉम्प्युटर सायट्स कोंकणींतले कानडी लिपयेंत आसात जांकां तांच्या लोकांचो बरो प्रतिसाद मेळला.

इतलें सगट आमुनूय फकत एकूच लिपी दवरात आनी हेर लिपयो भायर मारात म्हणल्यार जाय ना. हो एक भावनात्मक विषय जाला. प्रत्येक लिपयेक आप आपली परंपरा आसा, खाशेलेपण आसा, जी आमच्यान नश्ट करुंक जाय ना. दबाव आनी बळ घालून कांय फायदो नां. लुकसाण जाता तें आमचेंच. देखून बरे तरेन, उकत्या मनान, फुडाराचें चिंतून आनी कोंकणी भाशेचें खाशेल्पण राकून, कोंकणी विशीं आमी निर्णय घेंवक जाय. हें करताना हो तुळात्मक तकटो आदाराक पडत.

### 3.2. आतांच्यो तीन मुखेल लिपयो : एक तुळात्मक तकटो

ह्या तुळात्मक तकट्याचो हेतू खंयची लिपी योग्य वा खंयची लिपी आमी मानून घेंवक जाय, हें दाकोंवक न्हय. हाचो हेतू कोंकणीच्यो तीन मुखेल लिपयो-रोमी, नगरी आनी कानडी, हांचें खाशेलेपण आनी उणेपण कितें तें दाकयता. हें दाकोंवचे खातीर प्रत्येक लिपयेचें लक्षण इतिहासाचे नदरेन, उपेगाचे नदरेन आनी लोक प्रियतायेचे नदरेन पारकिलां.

*3.2.1. रोमी लिपी*

| खाशेलेपण | उणेपण |
|---|---|
| **इतिहासीक नदरेन** | |
| हे लिपयेची सुरवात पुरतुगेज धर्म प्रचारकांक लागून जाली. तांच्या ह्या कार्याक लागून कोंकणीचेर जेन्ना काळोकाचे दीस आयलले, तेन्ना ती जिवी उरली. कोंकणी भाशेचें पयलें व्याकरण तॉमास स्टीवन्सान हेच लिपयेंत बरयललें. तशेंच पयलो कोंकणी शब्दकोश (1567), पयलें क्रिस्ती धर्म शिक्षणाचें पुस्तक (1622), पयलें कोंकणी वर्तमानपत्र 'उदेंतीचें साळक' (1889) आनी जायतीं कोंकणी पयलीं पुस्तकां हेच लिपयेंत छापललीं. कोंकणी तोंडपाशी साहित्याक जर ग्रांथीक रूप मेळलें तर तें रोमी लिपयेक लागुनूच. | पुरतुगेज धर्म प्रचारकांनी हे लिपयेचो वापर भाशेच्या मोगाक लागून करूंक नां, पूण आपलो धर्म परगटच्याक केल्लो. तांकां रोमी लिपी बेस बरी येताली आनी थळावे लिपयेंत छापूंक तांचे लागीं खिळे नासले. लिपये सांगाता भाशेचें विदेशीकरण जालें. आमच्याच लोकांक आमची भास परकी - विदेशी कशी दिसूंक लागली. जायतीं विदेशी, पुरतुगेज आनी लातीन उतरां कोंकणींत हिस्पा भायर सरलीं. कितेंय जाल्यार शेकीं ती एक विदेशी लिपी! |

| **उपेगाचे नदरेन** | |
|---|---|
| इंग्लेज भाशेक लागून ही लिपी भारताच्या आनी संसाराच्या कोनश्या कोनश्याक पसरल्या. हे लिपये वरवीं विदेशांत वस्ती करून आसलल्या कोंकणी लोकांक आपले मांय भाशे लागीं संबंद दवरूंक सोंपें पडत. शुद्धलेखनाचे 50 नेम उगडास दवरचे बदला 'स्पॅलिंग' पाठ केल्यार पुरो. कॉम्प्युटरार लेगून 'स्पॅल चॅक' करूंक जाता. ई-मेल, एस्.एम्.एस्. आनी टायप करताना ही लिपी मोंपी पडता. हे लिपयेंत कोंकणीचे | एके भारतीय भाशेक विदेशी लिपी सारकी न्हय, अशें जायत्या जाणकारांचें मत. (पूण उत्तर पुर्वांत आसलल्यो 95 टक्के थंयच्या भारतीय भासो रोमी लिपयेंतूच बरयतात आनी शाळांनी शुकयतात!) उच्चार दाकोंवचे खुणे बाबतींत, कोंकणीचो पयलो 'अ' स्वर दाकोंवकूच रोमी वर्णमाळेंत अक्षर ना! देखुनूच आमचे भाशेचे थोडे उच्चार भंगल्यात. बरेपण आसललें बॅरिपॉण, मन आनी मत, मॉन आनी मोत जाल्यांत. |

| खाशेलेपण | उणेपण |
|---|---|
| **इतिहासीक नदरेन** | |
| ज (j) आनी ज़ (z), च (ch) आनी च (ts), ऑ (ŏ) आनी ओ (ô) ऍ (ĕ) आनी ए (ê) हे खाशेले उच्चार दाकोंव येतात ऱ्हस्व आनी दीर्घकार हांची घुसपावणी जांवची ना. तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्राचे संचालक दो. प्रताप नायका परमाणें आतांचे रोमी लिपयेंत थोडो भोव वदल केल्यार, जशी देवनागरी लिपी संस्कृत भाशेक विज्ञानीक तरेन जुळता, तशीच रोमी लिपी कोंकणीच्या उच्चाराक ९८ टक्के जुळतली म्हण दावो करता. ब्रिटीश आनी पुरतुगेजांक लागून साबार रिती रिवाजी, न्हसणां, वस्तू, चाली रिती आमी आपणायलेंच आसा, तशें जाल्यार रोमी लिपयेंत बरोंवची परंपरा आसलले रोमी लिपयेक आपणायल्यार कितें वायट आसा? | तशेंच कोंकणीचो एक उच्चार दाकोंवक रोमींतलीं तीन अक्षरां वारपरचीं पडतात. देकीक : ठ - tth वा छ - chh आनी ^, ~, ', - आसलल्यो चडीत कुरवो वापरच्यो पडतात. 'च' आनी 'ज' चे, जे दोन वेगळे उच्चार कोंकणींत आसात, ते मराठींतूय आसात. पूण तीं, ते उच्चार दाकोंवक वेगळ्यो कुरवो वापरी नांत. तर आमी कित्याक वेश्टे चडीत कुरवो जोडच्यो. विदेशांत राबितो करुंक गेल्ले कोंकणी लोक आपल्या वावर धंद्याक. तांकां पोट भरुंक आनी पयशे जोडूंक इंग्लेज पुरो. एक मुटभर विदेशी NRI-कोंकणी मोगयां खातीर आमचे तसल्या देशी लोकांक बळी कित्याक? ई-मेल, एस्.एम.एस्. आनी टायप करुंक देवनागरींत, कन्नड लिपयेंत तशेंच अरबी आनी मल्याळम लिपयेंतूय कितलीशीं सॉफ्टवॅरां फुंक्याक आसात. |

| लोक प्रियतायेचे नदरेन | |
|---|---|
| इंग्लेज भाशेक लागून ही लिपी संसारभर पसरल्या. गोंयांत पाद्रींनी आनी तियात्रिस्तांनी हे लिपये वरवीं कोंकणी वांचयली म्हण कांय जाणकार पंडित दावो करतात. फाल्यां जर ही लिपी अधिकृत जाली जाल्यार कॅनरा कोंकणी (मंगळूरकार) क्रिस्तांव 100 | भास फक्त नाटकां, खेळ, धार्मीक कार्यावळींक आनी मनोरंजनाकूच न्हय. तिचो उपेग शिक्षणीक मळार, वेव्हारीक मळार, पत्र वेव्हारांत, सरकारी वेव्हारांत, वी जाता. रोमी लिपयेक तेंको दिंवचे विशीं गोंयची इगर्ज माता आजून ओगी आसा. तांणीं चलोंवच्या शाळांनी कोंकणी |

| खाशेलेपण | उणेपण |
|---|---|
| **लोक प्रियतायेचे नदरेन** | |
| टक्के हाका तेंको दितलो म्हणललो कांयच दुवाव नां, विशेष करुन थंयची तरनाटी पिळगी. आतां जाल्यारुय तियात्रिस्त आनी गोंयकार क्रिस्तांव तशेच कांय मंगळुरकार क्रिस्तांव ही लिपी उपेगतात आनी हे लिपयेक लेगीत समान दरजो दिंवच्याक मागणें करीत आमात. | देवनागरींतूच शिकयत आयल्यात. जर इंग्लेज जाणा आसलल्यान, रोमी येता आनी रोमी वरवीं कोंकणी वाचूंक येता, इतली घुसपावणी करचे बदला कोंकणी भायर मारुन इंगलेजूच शिकुंया. तीच आमची आवय भास करुंया! कशी आयच्या काळार वेवसायाक लागून इंग्लेज शिकतात आनी वापरतात. आमचें मदें आतां जाल्यारूय इंग्लेज-गोंयकार आनी ऍंग्लो-मॅंगलोऱ्यन्सांची संख्या उणी नां. |

*3.2.2. देवनागरी लिपी*

| खाशेलेपण | उणेपण |
|---|---|
| **इतिहासीक नदरेन** | |
| देवनागरी लिपी ही कोंकणीची भोव आदली लिपी म्हण लेकतात. गोंयच्या आनी ताच्या भोंवतणीं आसलल्या वाठारांनी थोडीं कोंकणी हात बरपां आनी शील लेख नागरी लिपयेंत मेळल्यात. 'कोंकणी ही संस्कृत आजयेची म्हलगडी धूव, देखून संस्कृत भाशेची लिपी हीच कोंकणी खातीर आपणांवची' हें मनांत दवरुन पयले परिपदेंत कोंकणी खातीर नागरी लिपी आपणांवचो थाराव जाल्लो. तशेंच गोंयांत रोमी लिपी वापरपी कोंकणी क्रिस्तांव आनी मराठी वापरपी कोंकणी हिंदवां मदें एकवट हाडचे खातीर | मराठी आनी संस्कृत भाशेच्या प्रभावाक लागून सादी सोंपी आसलली कोंकणी भास, देवनागरींत कठीण जायत गेली. ती एक विचित्र भास दिसूंक लागल्या. विदेशी तत्वांनी मिसळून गेलल्या गोंयकार क्रिस्तांवांक, भारतीय संस्कृतायेची फाट भूंय नासलल्यान, ती अदिकूच विचित्र दिसूंक लागल्या आनी जातये जण कोंकणी थावन पयस गेले. कोंकणी जरी संस्कृत भाशेची म्हालगडी धूव, तिची मुळां पाळां दक्षिण भाशांनी लेगीत आसात. देखून 'ती आर्य कुळाची आनी द्रवीड मुळाची' अशें म्हणचें सारकें. देवनागरींत शिकयलली, |

| खाशेलेपण | उणेपण |
|---|---|
| **इतिहासीक नदरेन** | |
| देवनागरींत कोंकणी वापरचो निर्णय जाल्लो. जर टॉमास स्टीवन्साक आपलें 'क्रिस्तपुराण' (मराठींतलो) देवनागरींत छापचें दिसलें आनी मलाबारच्या त्या तीन कोंकणी वैजांनी आपलो दाकलो नागरी वरपांत दिला जाल्यार, हेय लिपयेक इतिहासीक परंपरा आसा म्हण सिद्ध जाता. देवनागरी ही एक भारतीय लिपी आनी हिंदी (राष्ट्र भास) देवनागरींत आसलल्यान भारतांतले भोवमत कोंकणी लोकांक हाची वळक आसा. देखून हीच लिपी अधिकृत म्हण वापरुंया असोय एक वाद आसा. | शाळेंतली कोंकणी एका गटाची, एका समाजाची बोली जालल्यान फकत त्याच गटाचे आनी त्याच समाजाचे भुरगे कोंकणी विषयांत बरे गूण काडतात. देवनागरींत बरयलली ही विचित्र कोंकणी, हेर समाजाच्या आनी जातीच्या लोकांक 'दुसरी भास' म्हण दिसता. |
| **उपेगाचे नदरेन** | |
| देवनागरींत कोंकणीचे सगळे उच्चार दाकोंवक जातात! मूळ उतरां लेगीत तशींच उरतात, फकत उच्चारांत बदल जाता.<br>देकीक - खबर - खबरेक, उतर - उतरांनी<br>पूण khobor = khobrek, utor = utranim/utran'ni<br>नागरींत संस्कृत भाशेचें खाशेलेपण कोंकणींत पर्जळटा. मराठी आनी हिंदी, कोंकणीच्यो भयण भासो हेच लिपयेंत बरयलल्यान, एकामेकाचीं उतरां सोंपेपणीं दिंवक वा घेंवक जातात. | नागरींत आमी बरयतात एक पूण उच्चारतात वेगळेंच.<br>देकीक - उदकांत = उ+द+क+आ+न्+त बरोवन 'उद्कान्त्' म्हण उच्चार करतात. अंत्रुजी कोंकणीच्या प्रभावान शुद्धलेखनांत 'मेळटा, उठ्ठा, जळटा, घाणटा, पडटा, सल्लो (मरलो), जल्लो, भितल्लो' ही प्रमाण बरप म्हण जाल्या. तशेंच दिंवी, सैंव, वी दिमी, मैम जालां. संस्कृत, मराठी, हिंदींत कष्ट, नष्ट, भविष्य आसलले कोंकणींत कश्ट, नश्ट, भविश्य जालां. तशेंच, मराठीच्या प्रभावान म्हाप्राणाचे उच्चार |

| खाशेलेपण | उणेपण |
|---|---|
| उपेगाचे नदरेन | |
| | कोंकणींत हिस्पा भायर जाल्यात. देकीक - ऊठ (ऊट), वळख (वळक), आठ (आट). 'कोंकणी भास मोवाळ (soft) आनी कोंकणी मनीस मोगाळ' म्हण उगडास दवरचें. |

| लोक प्रियतायेचे नदरेन | |
|---|---|
| साहित्य अकादेमीन देवनागरींत बरयलले कोंकणीक मान्यताय दिल्या. केरळाच्या कोची विश्वविद्यालयांत हेच लिपयेंत कोंकणी शिकयतात. गोंयांत तर तिका अधिकृत लिपयेचो दरजो मेळला. विदेशांत NRI भुरग्यांक जाल्यारुय हिंदी, आमची राष्ट्र भास जालल्यान, देवनागरी लिपयेची वळक आसा. कोंकणीचें पयलें दिसाळें 'सुनापरान्त' देवनागरींतूच चलता. तशेंच कोंकणीचे म्हालगडे वीर टॉमास स्टीवन्स, फा. माफ्ये, मों. दाल्गाद आनी शणै गोंयबाबाक लेगीत हीच लिपी कोंकणीक फावो म्हण दिसतालें. फाटल्या 40-45 वर्सां थावन हे लिपयेंत गोंयांत कोंकणी शिकयतात. सिंधुदुर्गांत, बेळगांवांत, कारवारांत, पुणे, आदी क्रिस्तांवां मदें ही लिपी लोक प्रीय आसा. तशेंच, गोंयांत 'कॅथलिक्स फॉर देवनागरी' नांवाचो गट गोंयकार क्रिस्तांवांक देवनागरी कोंकणी लागीं हाडचो यत्न करीत आसा. | देवनागरींत बरयलली कोंकणी गोंयांतूच चड वयर मरूंक नां. आजुनूय रोमी आनी कर्नाटकांत कानडी लिपयेचो व्हडांत व्हड वाचपी लोक आसात. गोंयांतूच तिका मानाचें स्थान मेळूंक नां, जाल्यार हेर वाठारींनी कितें जायत? हेर लिपयांनी कोंकणी बरयतले लेखकांक देवनागरीचे दबावान पुरस्कारां दिंवचें बंद केलां. फकत सरकाराच्या आदारान गोंयांत देवनागरी कोंकणी चलता. कितलीशीं देवनागरी कोंकणींत छापललीं पुस्तकां, पुस्तक घरांनी लेगीत नांत आनी आसल्यारुय धूळ आरायत आसात. 'सुनापरान्त' हें फकत एकूच कोंकणी दिसाळें, तरीय तें लोका मोगाळ जाल्लें नां. गोंयांत चार इंग्लेज वर्तमान पत्रां आनी धांचे वयर मराठी वर्तमान पत्रां, दिसाळीं, बी बरीं खपतात. |

## 12.3. कानडी लिपी

| खाशेलेपण | उणेपण |
|---|---|
| **इतिहासीक नदरेन** | |
| राष्ट्रकुटां आनी कंदबाच्या काळा थावन कोंकणीचें संबंद कानडी लिपये कडे आसा. भोव करून विदेशी पंडितांनी, कानडी लिपयेंत बरयलले हेच कोंकणीक 'कानारी' वा 'लिंग्वा केनरी' नांव दिलें. गोंया थावन स्थळांतर जालल्या, आमच्या मंगळुरकार क्रिस्तांवांच्या पुर्वजांक ही लिपी कळीत आसलली. देखून हांगा कन्नड भुयेंत आयलले उपरांत तांणीं सोंपेपणीं ही लिपी आपली आवय भास कोंकणी बरोंवक वापरली आनी ती फुलयली. जायतीं कोंकणी उतरां मुळांत कानडी भाशेंतल्यान आयल्यांत. तशेच जायत्या गोंयच्या गांवांचीं नांवां कानडी भाशेंत आसात, जांचें मागीर कोंकणीकरण आनी मागीर पुरतुगेजीकरण आनी आतां इंग्रजीकरण जालां. देखून कोंकणीचो कानडी भाशेक, लिपयेक आनी भुंयेक अतूट संबंद आसा. | आतांचो काळ मातसो वेगळो. गोंयांत कांय लोक नागरीच शिकूंक तयार नात, कानडी लिपी कितें शिकतले? कानडी लिपी शिकूंक जाय जाल्यार कन्नड भासूय येंवक जाय. कानडी लिपी फकत कर्नाटकांत वस्ती करतल्या कोंकणी लोकांक पुरो. ही लिपी शिकूंक गेल्यार एक वेगळीच लिपी शिकची पडता. ते त्रास कोण घेता! |
| **उपेगाचे नदरेन** | |
| कोंकणीचे 'ऍ' आनी 'ऑ' चे वेगळे उच्चार दाकोंवक कानडी लिपयेंत दोन चडीत कुरवो आसात. हे वरवीं 'देव' आनी 'दॅवाक' हाचे वेगळे उच्चार कानडी लिपयेंत दाकोंवक जातात. तशेंच जोड अक्षरां बरयताना आनी उच्चार करताना सारकेपण आसा. कारण | 'ऍ' आनी 'ऑ' चे वेगळे उच्चार दाकोंवक जातात, जाल्यारूय 'ज' आनी 'च' चे वेगळे उच्चार दाकोंवक रोमी लिपये परीं वेगळ्यो कुरवो नांत. कानडी लिपी कोंकणी मांयेक जड पडता. देखून कानडी लिपयेंत बरयल्ल्या प्रत्येक उतराच्या शेवटाक शेंपडी दिंवची पडता. |

| खाशेलेपण | उणेपण |
| --- | --- |
| **उपेगाचे नदरेन** | |
| कानडी लिपयेंत 'आमचो' हें उतर 'आम्चो' बरयतात आनी 'आमच्या' हें उतर 'आम्च्या' बरयतात. बरयलल्यांत आनी उच्चारांत सारकेपण दिसता. | जे परीं नागरी लिपयेंत आमी 'हलंत' कुरु (पांय मोड) दितात, तशेंच कानडी लिपयेंत अर्द अक्षरांक शेंपडी दिंवची पडता. देखून वात-'वात्' अशें बरयतात. रात, दीस-रात्, दीस् अशें बरयतात. पूण तमिळ भाशेंत क, ख, ग, घ बरोंवक फकत एकूच अक्षर आसा : 'क'. तरी पूण तमिळ भाशीक आपली भास आडखळ नासताना वाचता! |

| **लोक प्रियतायेचे नदरेन** | |
| --- | --- |
| कोंकणी बरोवपी, वाचपी आनी उलोवपी भोवमत कोंकणी लोक कर्नाटकांत जियेता आनी कन्नड भास वाचूंक आनी बरोंवक जाणा आसलल्यान, तीं कोंकणी लेगीत वाचूंक आनी बरोंवक रगळे नासताना ही लिपी उपेगतात. कर्नाटकांत कानडी लिपयेंत बरयलल्या कोंकणी कागदां पत्रांची आनी पुस्तकांची बरी खप आसा. इगर्जेंत आनी धार्मीक मळार कानडी लिपयेचे कोंकणीची परंपरा आसा. ती सोडूंक एकदम कठीण. पयलो संपूर्ण कोंकणी बाय्बल कानडी लिपयेंतूच परगट जाल्लो. तशेंच, आतां उत्तर आनी दक्षिण कन्नडांतल्या थोड्या शाळांनी कोंकणी हे लिपयेंत शिकयतात. ही लिपी फकत मंगळूरांत (कर्नाटका) न्हय, मुंबय, गल्फांत आनी हेर विदेशी जाग्यांनी फामाद आसा. | कर्नाटकांतूच कारवार आनी बेळगांवांत देवनागरी वापरपी कोंकणी लोक आजुनूय आसा. भोवमत कोंकणी लोक कर्नाटकांत जियेता! तांचे लोक संख्येक लागून थंय कोंकणीची इतली वाड जाल्या. तशेंच कानडी लिपयेंत बरयलली कोंकणी फकत कर्नाटकाच्या कोंकणी लोकां मदें मात मर्यादीत उरता. हेरांक वाचूंक जाय जाल्यार ती लिपी वेगळीच शिकची पडता. कितलेशें दरजेदार कोंकणी साहित्य, लिपयेक लागून फकत कानडी लिपयेंत वाचतल्या मदें मात उरतात. दुसऱ्यांनी ती वाचूंक जाय जाल्यार ती लिपी शिकूंक जाय ना जाल्यार तो पुस्तक लिपयांतर करचो त्रास घेंवचो पडता. |

# 4. कोंकणी बोलीवाद

लिपीवादाक चिटकून आसललो नवो वाद म्हणल्यार वोलीवाद. हो वाद नवो, कारण थोड्या वर्सां आदीं हो वाद अस्तित्वांत नासललो. जेन्ना एका समाजाचो कोंकणी लोक आपली बोली शुद्ध आनी हेरांची बोली अशुद्ध म्हण लेकूंक लागले, तेन्ना हो बोलीवाद उत्पन जालो. हाचेरुच तेंकून आसा कोंकणीचो प्रमाणीकरणाचो मुद्दो. हो वाद कितें म्हण समजून घेंवचे खातीर हांवें म्हज्या ह्या अवेस्वरांत कोंकणीच्यो मुखेल बोलयो खंयच्यो आनी हांचे प्रमाणीकरण कशें करुं येता हाचें विशीं बरयलां. हाचे उपरांतल्या पांचव्या अवेस्वरांत हांवें कोंकणींत एकरुपपण कशें हाडूंक जाता हाचे विशीं सुचोवण्यो दिल्यात. जर आमी एकूच लिपी वापरपी आसलले जाल्यार रोकडेंच प्रमाणीकरणूय जांवक शक्य आसललें. पूण वेगवेगळ्यो लिपयो घेवन वसून, प्रमाणीकरणाचे प्रक्रियेंत आमी आडखळ घाल्या.

## 4.1. कोंकणीच्यो बोलयो

म्हालगाड्यांक कोंकणीच्यो बोलयो खंयच्यो म्हण विचारल्यार, बामणांची भास आनी गावड्यांची भास म्हण, सट करुन सांगतले. तशेंच गोंयां बारदेशी आनी साश्टी अश्यो दोनूच बोलयो आसात म्हण गोंयकार क्रिस्तांव सांगतले. बारदेशींत 'हे पळय, हांवें काल हाडुल्ले म्हजे व्हाणे' हाचे साश्टींत, 'हीं चोय, हांवें काल हाडललीं म्हगेलीं जोतीं' अशें प्रमाण बारदेशींत आनी प्रमाण साश्टींत आमच्यान बरोंवक जाता. बारदेसांत आनी तशेंच साश्टींत लेगीत आनीक चड उप बोलयो आसात. तशेंच थोडे जण बारदेशी, साश्टी आनी इल्यासी (तिसवाडेची) अशे वाठारां परमाणें बोलयांचें वर्गीकरण करतात. माधवीबाय सरदेसाया परमाणें वाठारां प्रकार उत्तर कोंकणांत मालवणी आनी कुडाळी बोली आसा जाल्यार मध्यम कोंकणांत बारदेशी, साश्टी, अंत्रुजी आनी काणकोणी आनी दक्षिण कोंकणांत कारवारी, मंगळुरी, कोड्याळी, कासरगोडी आनी केलळी बोलयो आसात. यशवंत सदानंद पालेकारा परमाणें कोंकणी भाशेचें चेपण आनी कोंकणी लोकांच्या स्थळांतराक लागून स मुखेल बोलयो उपजल्यात. ते म्हणतात : सोळाव्या शेंकड्या उपरांत वेगवेगळ्या इतिहासीक घडणुकेक लागून ते आदीं एक आसललो कोंकणी समाज विसाव्या शेंकड्यांत धर्म आनी लिपयेक लागून असो वांटलाः

1. मल्याळम लिपयेंत बरोवपी केरळाचो कोंकणी हिंदू समाज.
2. कानडी लिपयेंत वरोवपी कर्नाटकाचो कोंकणी हिंदू समाज.
3. कानडी लिपयेंत बरोवपी कर्नाटकांतलो कोंकणी क्रिस्तांव समाज.
4. अरवी लिपयेंत परोवपी नवायत मुसल्मान कोंकणी समाज.

5. देवनागरी लिपयेंत बरोवपी गोंयचो कोंकणी हिंदू समाज.

6. रोमी लिपयेंत बरोवपी गोंयचो कोंकणी क्रिस्तांव समाज.

दो. प्रताप नायका परमाणें कोंकणी बोलयांचे दोन वांटे करुंक जातात - प्रदेशीक बोलयो आनी समाजीक बोलयो.

अ. **प्रदेशीक बोलयो - वाठारा परमाणें :** सावंतवाडीची कोंकणी, वेळगांवची कोंकणी, गोंयची कोंकणी, कारवारची कोंकणी, मंगळुरची कोंकणी आनी केरळाची कोंकणी. गोंयांत - पेडणेंची, बारदेसची, फोंडेंची, साश्टीची, काणकोणची अशे म्हाला परमाणें गट करुं येता.

व. **समाजीक बोलयो:** हांतूं धर्मा प्रकार आनी जाती प्रकार दोन वांटे करुंक जातात.

1. धर्मा प्रकार : हिंदू, क्रिस्तांव आनी मुसल्मानांची बोली तशेंच बारदेसचे क्रिस्तांव आनी साश्टीचे क्रिस्तांव वेगळ्यो बोलयो उलयतात.

2. जाती प्रकार : हिंदवां मदें सारस्वत आनी भौसाचे बोलयेंत फरक आसा. देकीक:

सारस्वतांचे बोलयेंत : "ताचो चलो, तांगेर जेवलो आनी घरा आयलो"

भौमांचे बोलयेंत : "तेचो चेडो, तेंगेर जेयलो आनी घरा येयलो"

ह्यो सगळ्यो बोलयो एकटांय केल्यार आमकां अश्यो बोलयो मेळतात : पेडणेंची, बारदेसकार क्रिस्तांवांची, साश्टीच्या क्रिस्तांवांची, सारस्वतांची, भौसाची, कुणब्यांची, गावड्यांची, काणकोणची, कारवारची, गोंयांत रावपी महाराष्ट्राच्या भटांची, जशे मराठे, जोशी, आदी.

थोडे जण थळा परमाणें कोंकमीच्यो सात बोलयो आसात म्हण सांगतात. त्यो अश्यो : बारदेशी, साश्टी, अंत्रुजी, (ह्या तीन बोलयांक चुकून 'गोवनीस्' म्हण सांगतात) कारवारी, मंगळुरी आनी नवायती. थोडे फकत 'गोंयची भास' आनी 'मंगळुरची भास' म्हण दोन गट करतात.

आतांच्या काळार साहित्याच्या मळार तीन मुखेल साहित्यीक बोलयो पर्जळतात. त्यो म्हणल्यार:

1. नागरींत बरयलली गोंयकार सारस्वतांची अंत्रुजी कोंकणी.
2. रोमींत बरयलली गोंयकार क्रिस्तांवांची बारदेशी कोंकणी.
3. कानडींत बरयलली केनरा क्रिस्तांवांची मंगळुरी कोंकणी.

अशे तरेन जायते बोलयो कोंकणींत आसात. आतां हांचे मदली खंयची प्रमाण बोली म्हण लेकची?

## 4.2. बोलयांक लागून कोंकणीचे उदरगतींत आडखळी:

आदमामान कोंकणी भाशेचो जल्म धाव्या शेंकड्यांत महाराष्ट्री प्रकृत/अपभ्रंषा

थावन फुट्न जाल्लो. तांतूं तत्सम संस्कृत उतरां तिणें तशेंच सांबाळल्यांत आनी कांय तद्‌भव उतरां आपणां मदें आटापल्यांत. देखुनूच तर तिका संस्कृत भाशेची म्हालगडी धूव म्हण लेकतात. 15 ते 16व्या शेंकड्या मेरेन खंयच्याय राजान तिका तेंको दिंवक नां. तिच्या खासा राय पुतांनी - राष्ट्रकूट, कदंब, सिल्हर, वी हांणीं तिका राज भास म्हण लेकूंक नां. हाका एक कारण म्हणल्यार, राय जरी कोंकणी भाशीक आसलले, ताची परजा, भोवमतान दुसरे भाशेची आसलली. कोंकणी साहित्याची बुन्याद घालपी युरोपी क्रिस्ती धर्म परगटणार आसलले, जांणीं आपलो धर्म परगटचे खातीर थळावे कोंकणी भाशेचो आदार घेतललो. 1556व्या वर्सा पुरतुगेजांनी एक छापखानो, गोंयांत स्थापलो आनी 1550 ते 1675च्या ह्या काळांत जायतीं कोंकणी पुस्तकां छापलीं. पूण मागीर आयलल्या मारेकार 'इंक्विजिशना' (1684-1895) उपरांत ह्या वावराचेर बंदी पडली. 17व्या ते 19व्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दा म्हणसर कोंकणी मांय काळकांत जियेली. मागीर गोंयांत 1858व्या वर्सा दो. कून्ह रिवेरान आपल्या इतिहासीक निबंधांत कोंकणीची तुस्त करुन समस्त गोंयकार तरनाट्यांक आपले भाशेची उदरगत करुंक उलो मारलो. ह्याच उल्याक जाप दिवन मों. दाल्गादान आपलो कोंकणी-पुरतुगेज (1893) आनी पुरतुगेज-कोंकणी (1905) शब्दकोश रचलो आनी मंगळुरांत फा. माफयेन इंग्लीश-कोंकणी (1883) आनी कोंकणी-इंग्लीश (1885) शब्दकोश रचलो.

पुरतुगेजांनी हिंदवांक आनी क्रिस्तांवांक दोन वेगळ्या विभागांनी दवरल्यान, तांची नांवां, आडनांवां, संस्कृती बदलून - ह्या दोनूय समाजां मदलो संपर्क तुटलो. क्रिस्तांवांचेर पुरतुगेज साहित्य चेपलें आनी हिंदवांनी आपुणूच जावन मराठी साहित्याक वेंग मारली. तर उगडास दवरची गजाल ही की, जर पोरण्या काबिजांत - बारदेस, तिसवाडी, साश्टी पुरतुगेजांच्या प्रभावान कोंकणी भंगली, तर नव्या काबिजांत - पेडणें, सत्तरी, दिवचलें, फोंडें, काणकोण, सांगें... शेजारचे मराठी भाशेच्या प्रभावान, हिस्पा भायर मराठी उतरां घेवन आमचे सादे सोंपे कोंकणी भाशेंत चड संस्कृत आनी मराठी उतरां रिगलीं. हो दाकलो मों. दाल्गाद आपल्या शब्दकोशाचे प्रस्तावनेंत दिता. क्रिस्तांवांनी बरपा रुपांत आनी उलोवन आमची भास जिवी दवरली जाल्यार, हिंदवांनी उलोवन आनी मराठी शिकून ती जिवाळ दवरली. असले अर्देकुरे परिस्थितींत आमची भास, गोंयांत तिच्या कुळारा, जियेलली.

**4.3. लिपीवाद**

कोंकणीचे लिपी विशीं मों. दाल्गाद मांगतात "एके पुर्वे कडले भाशेक खंयचेय अस्तंती भाशे कडसून मार्गदर्शन घेंवची गरज नां. कोंकणी भास आपले स्वताचे देवनागरी लिपयेंतूच बरोंवक जाय वा तिका समान आसलले कानडी लिपयेंत. तिचें रोमीकरण करचें पडलें जाल्यार, ती अशी एक तरा वापरुन करची, जी तरा संस्कृत

आतयचे आनी हेर देशी भासां खातीर वापरतात. कानडी लिपयेंतल्यान कोंकणी ध्वनी बरे तरेन दाक्रोवक जातात. तरी आसताना ती एक द्रविडी लिपी आनी गोंयची भास - 'कोंकणी' तर आर्य वंशांतली. म्हणतच तिची लिपी देवनागरीच आसूंक फावो, जशी तिच्या हेर भयण भासांची आसा".

मंगळूरचो कोंकणी वीर दो. लुवीस इनास मास्करेञ उर्फ 'आन्रांव', हांणीं कोंकणीचो फुडार पळोवन, तेन्नाच विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत लिपयेच्या वादा विशीं देवनागरी लिपयेची वकालत करुन म्हणललें, "दुबाव नासताना आमचे ब्राह्मण कुळयेचे कोंकणी भाशेक तिची आवय आजयेन न्हेसचें देवनागरी कापड भोव सोबतलें आनी कोंकणी भाशेचें धन चडतलें".

दो. प्रताप नायक म्हणतात, "गोंयांत क्रिस्तांवांचो तेंको देवनागरीक ना आनी सर्व हिंदवांचो कोंकणीक ना, देखून राजभास कायदो कागदार उरला. कोंकणी कडेन चार शेंकड्यां परस चड काळाची परंपरा आसलली नांवाजती रोमी लिपी भायर मारली आनी शेंबर वर्सांची सैत परंपरा नासलली आनी लोकांक नाका आसलले देवनागरी लिपयेक भितर घुसयली, रिगयली म्हणल्यार चूक जायत?" हाका जाप दिवन आमच्यान सांगूंक जाता की नागरी लिपयेक 900-1000 वर्सांची परंपरा आसा. पूण कांय कारणांक लागून ही परंपरा सतत उरली ना. पुरतुगेजांच्या काळार ती परंपरा तुटली. धाव्या शेंकड्यांत बरयलली देवनागरी कोंकणींत शील लेख कर्नाटकांतल्या, श्रावणबेळगोळांत, गोमटेश्वराच्या पांयां तळा कांतयललो मेळता. दो. जुजे पिरेरा परमाणें ह्या शील लेखाचो काळ 1116-1117 क्रि. उ. जायत. तशेंच सतराव्या शेंकड्यांत कोच्चीचे डच गव्हर्नर (राजपाल) वॉन रीड हाणें भारतीय वनस्पतींचेर एक ग्रंथ रचललो. ह्या ग्रंथाचे सुरवातेक तीन कोंकणी वैजांचें प्रमाणपत्र आसा - विनायक पंडित, अप्पु भट आनी रंगा भट. हो ग्रंथ 'हॉर्तुस इंडिकुस मलाबारिकुस', 1678 वर्सा छापललो, बारा खंडाचो ग्रंथ नागरी लिपयेंत आसा. हालींच हो ग्रंथ कोच्चीच्या विश्वविद्यालयांत भाशांतर करुन परतून छापचें काम सुरु जालां म्हण खबर मेळल्या. तरी पूण एक मात खरें, कोंकणी ग्रांथीक साहित्याची चड वाडावळ पंदराव्या शेंकड्या उपरांत पुरतुगेज धर्म प्रचारकां वरवीं, रोमी लिपयेंत जाली, जी आजून मेरेन तिगून आसा.

जेन्ना 1939व्या वर्सा कारवारांत पयली अखिल भारतीय कोंकणी परिषद भरलली, तेन्ना कोणेंय 'नागरी लिपयेचो' विरोद करूंक नां. पूण दुसरे वाटेन नागरी लिपयेच्या समर्थकांनी वास्तवीक रुपांत कांय केल्लेंय नां. जर त्या काळार कितें जाल्लें आनी मंगळुरांत आनी भोंवतणच्या कोंकणी वाठारांत एकमतान नेटान कोंकणी खातीर कितें तरी केल्लें जाल्यार आज आम्ची ही गत जाती ना. लिपये आनी प्रमाणीकरणा विशीं

जो घुसपा गोंदळ आमच्या कोंकणी पंडितांनी रचला, ताका लागून आज एकूच एक लिपी सारकी चलना आनी आजुनूय अखिल भारतीय मळार कोंकणीचें प्रमाणीकरण जांवक नां. उरफाटें, 'सगळ्यो लिपयो सांबाळुंया' आनी 'प्रमाणीकरण नाकाच' म्हणलो नवो वाद सुरु जाला.

## 4.4. प्रमाणीकरण नाकाच

प्रमाणीकरण नाकाच म्हणपी, कोंकणीचे तरेके लिपयेक आनी बोलयेक समान दरजो दियात म्हण मागतात. कोंकणी भास एका फुलांच्या मळ्या परीं, जंय वेगवेगळीं तरेचीं फुलां फुलतात आनी त्या मळ्याची सोबितकाय वाडयतात. प्रमाणीकरणाच्या नांवान आपली लिपी आनी आपली बोली थापून कोंकणी भाशेक जायतें लुकसाण जालां. देखून कोंकणी भास उरोंवक जाय जाल्यार, प्रमाणीकरणाचें पिशें सोडून, 'विविदतायेंत एकवट' हें सुत्र मनांत दवरुन कोंकणी मायेच्या दरेक लिपयेक आनी बोलयेक समान नदरेन पळोंवया.

हाचेर म्हजो खर विरोद आसा. एक लिपी आनी एक प्रमाण भास नासताना साहित्यांत वेगळोचार कित्याक करचो? अर्दो वेळ लिपयांतर आनी बोलयांचो अणकार करच्यांत वेतलो. चाळीस वर्सां जालीं, हांतूं कोंकणी एकरुपी कशी करूं येता हाचेर विचार करचे बदला आतांचे थोडे पंडित 'एकूच लिपी कित्याक आनी प्रमाणीकरण कित्याक?' म्हण विचारतात. 'सगळ्यो लिपयो फुलूं दीत आनी कोंकणीच्यो सगळ्यो तरा उरूं दीत'. प्रमाणीकरणाक 'बामणवाद' अशें नांव दिवन तिचे प्रगतींत आडखळी हाडून दवरल्यात आनी तेंय तिचे खुद्द कोंकणी आवय भाशेच्या पुतां धुवांनी. एके वाटेन आमी लिपी आनी भाशे खातीर झुजून आसात आनी दुसरे वाटेन इंग्लेज-गोंयकार, मराठी-गोंयाकर आनी इंग्लेज-मंगळुरकारांचो आंकडो दिसान दीस वाडतूच आसा. आमचो होच विभाजीत जावन गेल्लो कोंकणी समाज पळोवनूच, मराठीवादी आमचे भाशेक व्याकरण नां, लिपी नां, साहित्य नां आनी कोंकणी ही भासूच न्हय म्हण आमचेर किजिलां मारीत आसात. पूण संदेश श्रीकांत बांदेकार हाणें म्हणले परीं, जंय 450 वर्सां परकी सत्ते सकला रावून आमची भास बदलली नां, थंय हांकां कोण मीट घालीत? आदलो काळ कोंकणी एक भास म्हण सिद्ध करच्यांत गेलो आनी आतां जेन्ना आमचे भाशेक सगळी मान्यताय मेळल्या, आमी अंतर झूज झुजुन आसात.

'विविदतायेंत एकवट' ही कल्पना बरी आसा. पूण वास्तवीक रुपांत पळयल्यार, आमची कोंकणी मांय, 'मडवळाच्या मुण्या भाशेन, ना घराची, ना घाटाची' जाल्या. ही चत्राय दवरची. विविदतायेंत एकवट म्हणल्यार 'कोंकणी भास, जाय तशी घास' वा 'अशेंय बरय, तशेंय बरय, कशेंय बरय' म्हणले परीं जालें. फकत भास जिवी दवरुंया, अर्दी मेली जाल्यारुय कांय लुकसाण नां. तिका कशी ना कशी जिवी दवरल्यार

पुरो. तिचे प्रगतीची, उन्नतीची, उदरगतीची वा वाडावळीची खंत नाका. तशें जाल्यार आमी मराठी भास 'आमची भास' म्हण आपणायल्यारुय कांय आडखळ ना, कित्याक ती कोंकणीक एकदमूच लागीं. तिची मावशी भयण. कोंकणी परस ती अदीक विकसीत जाल्या. कोंकणीच्यो सगळ्यो बोलयो सांगाता मराठी भास लेगीत फुलोंवया. गोंयांत 50 टक्के परस वयर मराठी वाचपी, तोंडार कोंकणी बोली उलोवन आनी कागदार मराठी भास बरोवन वेव्हार करीत आसात. तांची देक घेंवया तर!

देखून एकवटान कोंकणीची आस्मिताय सांबाळुंया. नागरी कोंकणी समाज, रोमी कोंकणी समाज आनी कन्नड कोंकणी समाज म्हण असले उप समाज करचे नाकात. जे परीं अरबी लिपयेंत हिंदुस्तानी बरोवपी, आनी अरबी, फारसी, तुर्की शब्दावळींतल्यान उतरां घेवपी आपले भाशेक उर्दू म्हण पाचारुंक लागले आनी देवनागरी आपणावन संस्कृत शब्दावळींतल्यान उतरां घेवन, हिंदुस्तानी बरोवपी, आपले भाशेक हिंदी म्हण पाचारुंक लागले, असले वांटे आमच्या कोंकणी समाजांत आमी जांवक दिंवचे नाकात. 'एकवटांत बळ आसा' हें सुत्र आमी आपणांवया आनी ह्या चाळीस वर्सांनी खंय चूक जाल्या जाल्यार भोगसणें मागुंया आनी कोंकणीचे वादावळी खातीर वावरुंया. 'विविदतायेंतए एकवट' म्हणून, प्रत्येक लिपयेक आनी बोलयेक समान दरजो दियात म्हण मागपी आमच्या कोंकणी लेखकांचो इरादो कितें? पुरस्कारां जिकून, आपल्या पुस्तकांची चडांत चड खप जांवच्याक, तांचो सुवार्थ तरी न्हय मूं!

भाशेक प्रमाणीकरणाची गरज आसा. शिक्षणीक मळार, सरकारी वेव्हार करताना वा चार चौगां मदें उलयताना, बरयताना एक प्रमाणीकृत भास जाय पडता. मंगळुरकारांनी गोंयकारां भाशेन उलोवन आनी गावड्यांनी बामणां भाशेन उलोवन प्रमाणीकरण जायना. प्रमाणीकरण ही एक प्रक्रिया. प्रमाण जाल्ली भास, असा तशी स्थित्यात्मक उरना, ती प्रगत जायत वेता. पूण प्रमाण भास ही एका समाजाची गरज. एकल्या दोगांची गरज न्हय. देखून एकवटान अखिल भारतीय परिषदेंत, कोंकणी संस्थ्यांनी, भाशा मंडळांनी, साहित्य अकादेमीन, कोंकणी केंद्रांनी आनी संमेलनां वेळार झगडचें सोडून ह्या विपयाचेर चड भर दिल्यार बरें जायत. जर कोंकणीक तिच्या भयण भासां इतलो मान जोडूंक जाय जाल्यार, आख्ख्या कोंकणी समाजान एकवटान हो वावर करुंक जाय.

**4.5. विभाजीत जाल्लो कोंकणी समाज**

भारतीय भासां मदें कोंकणीचो पांवडो दिवन फा. माथेव आल्मेदान म्हणलां, "कोंकणी ही एक आधुनीक इंडो-आर्य गटांतली, इंडो-युरोपी कुटुंबांतली भास, जी दक्षिणांत उलयतात. हालींच ती गोंयची राजभास जाल्या. ही भास उलोवपी लोक गोंयां

आनी ह्या राज्या भोंवतणीं आसलले महाराष्ट्र, कर्नाटका, केरळांतल्या-दर्या तडेक आसपी थोड्या जिल्ल्यांनी आसात. तिचो संबंद संस्कृत कडे आसा आनी मदल्या इंडीक-प्रकृत आनी अपभ्रंषांतल्यान ती उपजल्या. 1975 दिसेंबरांत, ती एक स्वतंत्र भास म्हण साहित्य अकादेमीन तिका मान्यताय दिल्या''.

परदेसांत जेन्ना कोंकणी संमेलनां जातात तेन्ना नांव फकत एक ''कोंकणी संमेलन', पूण संस्थे चार - मंगळुकार क्रिस्तांव, मंगळुरकार हिंदू, गोंयकार क्रिस्तांव, गोंयकार हिंदू... हेर कोंकणी लोक केन्ना केन्ना मराठी संमेलनांत, ना जाल्यार कन्नडा संमेलनांत वा गुजराती संमेलनांत दिश्टी पडता. घडये कोंकणी समाजाची हीच विभाजीत जांवची परिस्थिती पळोवन 1939 इस्वेंत जेन्ना पयली अखिल भारतीय कोंकणी बसका जमल्ली, तेन्ना माधववाबान 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य, एक समाज' हें सूत्र दिल्लें. असो वांटललो भाशीक समाज भारतांत वा आख्ख्या संसारांत खंय आसचो नां. हालींच्या दिसांनी सिंधुदुर्ग, गोंय, कारवार आनी बेळगांव हे वाठार मेळोवन 'संयुक्त कोंकण' वा 'कोंकण प्रदेश' घडोंवचीं सपनां पळयत आसात. हो भुगोलीक एकवट हाडचे परस 'भाशीक एकवट' आमी पयलें हाडुंया. संयुक्त कोंकण केन्नाच घडचो नां. ताचे बदला एकरूपी कोंकणी घडोंवच्या पुण्य कामांत जीव खर्चुंया. 'संयुक्त कोंकण प्रदेशाची' सपनां सोडून 'संयुक्त कोंकणी' खातीर झुजल्यार अदीक बरें. एक प्रमाण भास आसल्यार आमच्या मांय देसा कडे, गोंया कडे संबंद दवरूं येता. तशेंच गोंया भायल्या कोंकणी लोकांक 'अनगोंयकार' म्हणून गाळी दिंवचे सोडूंक जाय. आमीय हे भुंयेचे, आदले गोंयकार. गोंयांत कोंकणी लोक लिपये खातीर आनी भाशे खातीर झगडतात, जेन्ना आमचोच कोंकणी लोक, थोड्या काळा उपरांत अल्प संख्यक जातलो.

गोंयच्या शाळांनी जी कोंकणी शिकयतात तांतूं बदलाव हाडची गरज आसा. क्रिस्तांव आनी भौसाक ती एक 'दुसरी भास' कशी दिसता. गोंयांत क्रिस्तांव तरनाटे भुरगे शाळेंत नागरी लिपी शिकून इगर्जेंत रोमी लिपी वापरून दिसपट्ट्या वावरांत इंग्लीश उलोवन, इंग्लीश नेमाळीं आनी पत्रां वाचून दीस काडतात. देखुनूच गोंयच्या शाळांनी जी कोंकणी शिकयतात तांतूं बदल हाडुंकूच जाय.

## 4.6. कोंकणीचें प्रमाणीकरण कशें करचें?

ह्या भागांत हांवें शणै गोंयबाब, दो. मु. बा. कुळकर्णी, दो. जुजे पिरेर, दो. प्रताप नायक आनी शेकीं कोंकणीच्या प्रमाणीकरणा विशीं म्हजो अभिप्राय दिला.

### *4.6.1. शणै गोंयबाबाचो अभिप्राय*

कोंकणीच्या प्रमाणीकरणा विशीं शणै गोंयबाब म्हणतात, ''तिच्यो कितल्योय तरा आसल्यो जाल्यारूय, डॉ. ग्रियर्सन म्हणतात ते परमाणें तिगेले सामान्य सभाव गूण सगळ्यांत सारको आसा. देखून तिच्यो आनी पोट भास करची गरज नां. नवी बोली

रचची गरज नां. कोंकणी एकरुपी करुंक भौ. माधवबाब शानभाग हांणीं जो उपाय सुचयला तोच खरो. आमी जणेकले आमगेल्यो भांगराच्यो म्होरो बाजारांत हाडुंया. तिजोरेंत चावये कुलपांत दवरचें नाका. म्हणतच तांची थंय पारक जावन, जी म्होर बरी चलता, ती आपशींच लोक हातांत घेतलो. 'म्हजी म्होर बरी, म्हजी म्होर खरी' अशें म्हणून हटवाद करची निकालूस गरज नां."

तशेंच मुखार ते म्हणतात, "भौ दिनकरबाब देसायले म्हणणे भाशेन, आमी एक कोंकणी म्हयनाळें देवनागरी लिपयेंत काडून, तांतूं फकत काणयो आनी नवल कथा दिंवच्यो आनी त्यो कोंकणी लोकांनी आपणाक येता ते तरेन बरोंवच्यो आनी तश्योच छापच्यो म्हणतच थोड्याच वर्सांनी सगळ्या कोंकणी लोकांक रुचता आनी मानता तसली प्रमाण कोंकणी वयर सरतली." शणै गोंयबाबाची ही येवजण सद्या चालींत हाडूंक मातशे कष्ट, कारण आमी 'एक लिपी' म्हणली आजून मेरेन समस्त कोंकणी लोकांनी मानून घेंवक ना.

*4.6.2. दो. सु. बा. कुळकर्णीचो विचार*

कोंकणीचें प्रमाणीकरणा विशीं सांगताना, कुळकर्णीबाब आमकां कोंकणी विशीं अशी म्हायती दितात : "मराठी आनी कोंकणी ह्यो दोनूय भयण भसो महाराष्ट्री-अपभ्रंपा थावन आयलल्यो. पूण मराठी उलोवपी लोकांचो आंकडो, कोंकणी उलोंवप्यां परस चड आसलल्यान, तशेंच तांणीं वस्ती केल्ली भूंय कोंकणा परस चड आसलल्यान, मराठी भास चड वेगान विकसीत जाली. ते उपरांत स्वता कोंकणी लोकांनी आपली धार्मीक आनी साहित्यीक तान भूक भागोंवचे खातीर मराठी भाशेचो आदार घेतलो. पूण तोंडा वयली कोंकणी भास मात सोडूंक नां. तशेंच कोंकणी समाज ल्हान आसलल्यान, तांची संख्या ल्हान आसलल्यान फिरंग्यांचे अटक, अस्थीर समाजीक जिवीत जियेलल्यान, कोंकणी मांय तशीच सादी भोळी उरली." देखून 'कोंकणी भास सोंपी आनी मोवाळ.' तिचें सोंपेपण आनी मोवाळाय हें तिचें खाशेलेपण, जें आमी राकूंक जाय. बेश्टीं अडेचीं मराठी आनी संस्कृत उतरां चेपून तिका गोंदळांवची गरज नां. जाता नीज कोंकणी उतरां वापरुयां.

"पुरतुगेज येंवचे पांचशें वर्सां आदीं तिचो जल्म जाल्लो. ह्या काळांत थोडें भोव एकरुपपण तिचें आसललें, जें वेगवेगळ्या राजवटे उपरांत हांगा थंय शिंपडालें. तिका एक थारावीक नांव लेगीत नासललें. देखुनूच पुरतुगेजांनी तिका 'कानारीं', 'ब्राह्मणी' अशीं नांवां दिल्लीं. तशेंच धार्मीक आनी राजकीय मळार तिचो भोव थोडो वा कांयच उपेग जायनासलोसो दिसता. वेगवेगळ्या कारणांक लागून विदेशी धर्म प्रचारक कोंकणी शिकले. तांतूं पंडित जाले आनी ताणीं ग्रंथ रचले. पूण इंक्विजिशनाच्या काळार सगळें गोवर जावन गेलें." त्या वेळार भोंवतणच्या हेर भाशांचो प्रभाव कोंकणीचेर पडलो

ती प्रदेशीक बोलयो निर्माण जाल्यो. उत्तर कोंकणाचे - मालवणी, कुडाळी, पेडणेचे, चलेचे, सत्तरीचे कोंकणी बोलयांचेर मराठीचो चड प्रभाव आसा. मध्यम कोंकणाचे तकी बोलयेक जाका चुकून 'गोवनीज' वा 'गोंयची भास' म्हणतात, ताचेर तुगेज आनी ग्रांथीक मराठीचो प्रभाव आसा. दक्षिण कोंकणाचे कारवारी, मंगळुरी, ड्याळी बोलयेर कन्नड, तुळू आनी मल्याळमाचो खुबूच प्रभाव आसा. ह्या भाशेचीं रां थोडे पावटीं आसात तशींच कोंकणींत रिगल्यांत वा थोडे पावटी तिचें कणीकरणूय जालां. कोंकणीचें प्रमाणीकरण करताना ही गजाल आमी मनांत दवरुंक य.

*6.3. दो. जुजे पिरेराची मांडणी*

दो. जुजे पिरेर म्हणतात, "जायत्या विकसीत भाशांनी फुडल्यो पिळग्यो तांच्या र्वजांनी जी परंपरा उपजयल्या तिचेर आदारुन भाशेक साहित्य लाबयतात. तांणीं चलली उतरावळ, वाक्प्रचार वापरुन तांचे भाशेक आनीक गिरेस्त करतात. पूण कोंकणीच्या जिवितांत अशें जांवक शक्य नासलें. प्रत्येक कोंकणी बरोवपी कोंकणीचो थम बरोवपी भाशेन बरयता. हांचे पैकी एक म्हणल्यार शणै गोंयबाब. शामाच्या ळार थोडी तरी कोंकणी बरपावळ सुरु जाल्ली. पूण पुरतुगेजांच्या घुसपटेन तिचो ड फुडार जांवक नां. पूण एका वेगळ्याच रुपांत आमची कोंकणी मांय फुलली. र्मांतरा वरवीं कोंकणीचे साहित्यीक इतिहासांत दोन वांटे जाले - हिंदू आनी क्रिस्तांव हण. हिंदवांनी मराठी वेंगयली जाल्यार, पुरतुगेजांनी नव्या क्रिस्तांवांचेर आपली भास ापचो यत्न केलो. पूण थळावी भास शिकले बगर धर्म परगटचें अशक्य जालें. देखून थळाव्यो भासो शिकले. कोंकणी तशेंच मराठी शिकले. मराठींत गद्य बरयलें, जाल्यार कोंकणींत तांणीं पद्य बरयलें.

"बिस्प सायब इनासियो द सांता तेरेजा परमाणें 1725 वर्सा मेरेन कोंकणाच्या वेगवेगळ्या वाठारांनी रावतल्या कोंकणी लोकांक एकामेकाची भास समजानाशी जाताली खंय! तिच्यो जायत्यो बोलयो जाल्यो. हांतल्यो सात मुखेल साहित्यीक बोलयो म्हण उपजाल्यो. साश्टी, केरळी, कोड्याळी, कारवारी, बारदेशी, मंगळुरी आनी अंत्रुजी." जी 'प्रमाण एकरुपी कोंकणी भास' म्हण आदीं आसलली, जुजे पिरेरा परमाणें, ह्यो सात साहित्यीक बोलयो तिचेच अर्देकुरे अवतार. "एके वाटेन पळयल्यार एकरुपी कोंकणी भाशेच्या विभाजना वरवीं साहित्यीक एकवट तुटलो, पूण दुसरे वाटेन तुटलल्या ह्या सात साहित्यीक बोलयांनी कोंकणीक आनीक गिरेस्त केल्या. साश्टी बोलयेंत आदले प्रमाण भाशेचो उपेग करुन कविचा आनी पद्य रचलें, जाल्यार कोड्याळी, कारवारी आनी केरळी बोलयांनी पोरणे प्रमाण भाशेचे थोडे खाशेले गूण सांबाळल्यात. बारदेशींत पत्रकारिका, कादंबरीची रचना आनी रंग माचयेर तिचो उपेग

जालो. मंगळुरींत पद्य साहित्य आनी कविता पूर्ण नाटकांचो उगम जालो. अंत्रु कोंकणीन कवितांक विकसीत करुन, टिकात्मक बरप आनी कोंकणीपणाचें अस्ति राकलें. "साश्टी बोलयेंत पोरणे प्रमाण कोंकणीचीं तत्वां आजून आसात. पोरणे एकरू बोलये लागीं तिचो अतूट संबंद आजून तिगून आसा. तशेंच लातिनी तत्वां ति आपणांत आसपायल्यांत. तिचे व्याकरणी बांदावळींत लेगीत जायती प्रगती जाल्या. साश्टी बोलये विशीं म्हायती दिवन ते म्हणतात, 'कुठ्ठाळेच्या (साश्टी तालुको, गों शणै बामणांची बोली म्हणल्यार पोरणी प्रमाण कोंकणी. तांचे मदले जायते जण विवि कारणांक लागून कन्नडांत, कर्नाटक आनी केरळांत राबितो करुंक गेले." तुलुवाच्य नायका राजान आपल्या कन्नड राज्यांत, प्रत्येक गांवाक एक शानभागाक वा शणै चाकरेक दवरललो. "तांचेर त्या वाठारांतल्या बोलयांचो प्रभाव पडलो. कुठ्ठाळेंतू रावलल्यांचेर इनक्विजिशना उपरांत जायोत भायलो प्रभाव पडलो. उलटें, हांचेर च प्रभाव पडून तांचे बोलयेंत बदल जालो. पूण भायर वसणूक करुंक गेलल्या शणैंनी आजून पर्यान आपली 'पोरणी प्रमाण' भास सांबाळल्या साश्टीचो हेर बोलयां लागीं खेरीत संवंद आसा. थोडीं उतरां जीं मुळावे बारदेसकार वापरिनांत, तीं उत्तर मंगळुरकार क्रिस्तांव (बारदेशी मुळाचे) आजुनूय वापरतात. तशोंच नागरींत बरोवपी जायते कोंकणी लेखक अंत्रुजी बोलयेचे, जांचो साश्टी कुंजा कडे लागींचो संबंद आसा जुजे पिरेर मुखार म्हणतात, जायते "भक्त कवी आनी कवियत्री, जशे संत आयप्पा, राघवदास, शांतीबाय, जोगव्वा आनी आवडी मुळांत कुठ्ठाळेचे, जे सतराव्या शेंकड्यांत बासप्पा नायका पयल्याचे, राजवटे खाल फामाद जाल्ले. तांचीं गितां, पदां आजुनूय केरळांत तिगून उरल्यांत आनी हाका आमच्यान कोंकणी संत साहित्य म्हणूं येता. हांतलो चड प्रसिद्ध आसललो ग्रंथ म्हणल्यार, कोंकणींतलें 'गोड्डे रामायण." देखून कोंकणीतूय संत साहित्य आसा म्हण सिद्ध जालें तर.

उद्यावरच्या (उडपा, कर्नाटक) नारायण आचार्यान पयलो कोंकणी कोड्याळी मुळावो पुस्तक कोंकणी खातीर बरयललो आनी ताची हीं परंपरा सांबाळून हत्यांगडी नारायण रावान 1917व्या वर्सा कोंकणी व्युतपत्ती शास्त्रीय (etymological) शब्दकोश पुंजयललो." आर्विल्ल्या काळांत विज्ञानीक नदरेन तयार केल्लो अती उत्तम कोंकणी पुस्तक म्हणल्यार सुमित्र मंगेश कत्रेचें "द फॉर्मेशन ऑफ कोंकणी' हें पुस्तक. हालींच जेन्ना कोंकणी साहित्य समितीन कोंकणी भाशेच्या प्रमाणीकरणाचो वावर हाताळला, तेन्ना वयर दिल्लीं हीं पुस्तकां उपकाराक पडत.

आधुनीक कोंकणी साहित्यांत वयर सरलली 'फोंडेची तरा' वा 'अंत्रुजी' जरी उत्तर कोंकणी बोलयां मदली, तिचो पोरणे प्रमाण कोंकणी भाशे लागीं खेरीत संवंद आसा. जुवारी न्हंयेच्या सकलय आसलल्यान, ती मुळांत साश्टी वर्गांतली. तिका वयर

रुपी म्हापुरुष शणै गोंयबाब, जाणें इतिहास, धर्म, व्याकरण आनी जातीचो लेगीत उपेग ...न कोंकणी - मराठीवादाचो सासणाच्या सासणाक अंत केलो. गोंयकारां मदें कोंकणीपण ...ायलें. अंत्रुजींत गद्य, पद्य, रुंशोधन, टिकात्मक, धार्मीक, आदी साहित्याची वाड जाली.

इतलें सगट आसुनूय कोंकणी लोकां मदें साहित्यीक मळार प्रमाणीकरणाची गरज ...त्याक दिसूंक नां गाय, म्हण समजना. प्रमाणीकरणा विशीं जुजे पिरेर म्हणता, ...कोंकणी उलोवप्यांची उणी लोक संख्या, आर्थीक दुर्बळाय, शेजारच्या भाशांचो प्रभाव ...नी आपली भास विकसीत करची ना उमेद (आळसाय), भोवरुपी माहित्यीक बोलयो ...शेंच लिपयो - ह्यो सगळ्यो तिच्या परमाणीकरणांत आडखळी जावन उरल्यो. ...माणीकरण ही एक प्रक्रिया. आपशींच एक प्रमाण बोली वयर सरतली. आपशींच ...पीवाद, बोलीवाद सोंपतलो' म्हणल्यार जायना. तशेंच थोड्या कोंकणी पंडितांक ...वन एक प्रमाण भास घडयात म्हणल्यारुय जायना. 'प्रमाण भाशेंत लोकांचे उमाळे, ...ाहित्यीक गिरेस्तकाय आनी लोकांक समजता तसलें सामर्थ्य आसूंक जाय. पोरणे ...माण कोंकणींत हीं सगळीं तत्वां आसात, कारण आतां आसच्यो बोलयो हेच एकरुपी ...ोलये थावन उपजाल्यात आनी एके ना एके बोलयेंत तिचें हें तत्व तिगून उरलां.''

''देखून 'पोरणी प्रमाण कोंकणी' दोळ्यां मुखार दवरुन हेर बोलयांनी जें किते ...ामान्य आसा तें 'नवे प्रमाण कोंकणींत' आसपांवक जाता. थोडें जें किते दरेके बोलयेन ...ाकारलां तें आसपांवची गरज ना. पूण जें किते आमचे बोलयेंत नां, दुसऱ्याचे बोलयेंत आसा, तें प्रमाण कोंकणींत घेंव येता. तशेंच, पोरणे कोंकणी उतरावळीचेर शोध करुन ...तीं उतरां प्रमाण कोंकणींत आटापूंक जातात. उणीं पडल्यार दुसऱ्या भाशेंतल्यान - संस्कृत आवय कडल्यान घेंवया. हें कार्य सुफळ करुंक दोन मुखेल गजालींचेर लक्ष दिंवक जाय. एक दुडवांची गरज आनी दोन निसुवार्थ वावर. एक प्रमाण व्याकरण, शब्दकोश, उतरावळ छापूंक जाय. हांगा लिपयेची गरज आसा. तेन्ना मेरेन अंत्रुजी कोंकणी जी नागरी लिपयेंत बरयतात, ती वापरुंया,'' म्हण जुजे पिरेर आमकां सुचयता.

*4.6.4. दो. प्रताप नायकाच्यो सुचोवण्यो*

प्रमाणीकरण कितें आनी तें कशें करुं येता हाचें विशीं प्रताप नायकान जायतें बरयलां आनी थोड्यो स्पष्ट सुचोवण्यो लेगीत दिल्यात. ते म्हणतात, ''जेन्ना खंयचीय एक बोली वा उच्चाराचे, व्याकरणाचे, उतरावळीचे प्रकार अधिकृत वा प्रमाण म्हण सगळ्या लोकांनी मांदून घेतल्यार आनी वापरल्यार ते प्रक्रियेक भाशेचें प्रमाणीकरण म्हणतात.'' मुखार 'प्रमाणीकरण जांवच्याक कारणां कसली?' हाचे विशीं ते सांगतात, ''राजकीय, इतिहासीक वा समाजीक कारणांक लागून एका थळाची, समाजाची, धर्माची बोली प्रमाण जाता आनी ते प्रमाण बोलयेक 'भास' म्हणतात.'' प्रमाणीकरण कशें हाडूं येता हाचे विशीं तांचें मत - ''भारतांत लोकशाही आसा, आमी एकविसाव्या

शेंकड्यांत आसात. म्हणतच खंयच्याय एका प्रदेशाची, समाजाची, धर्माची, जातीचं बोली प्रमाण बोली म्हण सांगल्यार लोकांचो एकवट घडचो नां. प्रमाण बोली एक प्रक्रिया. ते मेरेन आमी देवनागरी लिपयेंत बरोवचें आनी वाचचें. काळ येतच प्रमाण बोली आपशींच जातली." ते स मळांनी कोंकणीच्या प्रमाणीकरणा विशीं सुचयतात

1. एक लिपी मांदून घेंवची पडतली.
2 बरोंवची एक प्रमाण रीत आसूंक जाय.
3. उतरावळींत प्रमाण अर्थ आसूंक जाय आनी वेगवेगळ्या जातीच्या, धर्माच्या आनी थळाच्या लोकांची उतरावळ पुजोंवक जाय.
4. उच्चारांत एक प्रमाण उच्चार मांदून घेंवक जाय.
5. उतरांची घडोवणी करताना, रुपविन्यासांत प्रमाणीकरण आसूंक जाय. बोली रूपां नाकारचीं पडतली.
6. व्याकरणांत एक प्रमाण व्याकरण घडोंवक जाय.

प्रमाण कोंकणी घडयताना ह्यो सगळ्यो सुचोवण्यो दोळ्यां मुखार दवरल्यार बरें जातलें.

### *4.6.5. म्हज्यो सुचोवण्यो*

फकत एकाच समाजाची बोली प्रमाण बोली म्हण घेतल्यार वाद विवाद निर्माण जायत. देखून प्रमाण कोंकणींत सगळ्या कोंकणी समाजाचो आसपाव आसूंक जाय. जशें वयर सांगलां, प्रमाणीकरण ही एक प्रक्रिया. थोड्या काळा उपरांत एक प्रमाण बोली आपशींच वयर सरतली. देखून समस्त कोंकणी समाजाची उतरावळ पुजोंवया, थोडे नेम, वाक्य रचने खातीर, शुद्धलेखना खातीर थारावन, प्रमाणीकरणाचे हे प्रक्रियेक आदार दिंवया. पूण बरोंवक एकेच लिपयेची गरज आसा. एक प्रमाण व्याकरणाची आनी उतरां वापरूंक एक शब्दकोठी जाय. हो वावर करताना फकत एकाच समाजाचे लोकांनी सगळें थारायल्यार, त्याच समाजाचो प्रभाव पडतलो. देखून वेगवेगळ्या कोंकणी समाजांतल्या लोकांनी, बरोवप्यांनी आनी भास विज्ञानीकांनी मुखार येवन हो वावर केल्यार बरो. मागीर हे नेम दुसऱ्या पत्रकारांनी शिकचे आनी आपल्या नेमाळ्यां आनी पत्रां वरतीं समस्त वाचप्यांक कळीत करूं येतात. गोंयांत, कर्नाटकांत आनी कोचींत कोंकणी विषय शाळांनी आनी विश्वविद्यालयांनी शिकोंवचें जें भाग आमकां मेळलां, ताचो आमी फायदो घेवन मुखले कोंकणी पिळगेक वेवस्थीत रुपांत कोंकणी शिकोंवया. कोंकणी खातीर नेम थारायताना आमी संमत नांत जाल्यार वा खंयच्योय आडखळी उपरासल्यो जाल्यार उकते माचयेर येवन, भासा भास करुन त्यो सुटाव्यो करूंया. देखून कोंकणी साहित्य परिषदे वेळार वा संमेलनां वेळार जर सर्व कोंकणी संपादक एक मंच घडोवन, भाशे तज्ञां सांगाता मेळून हो वावर फुडें व्हेल्यार, प्रमाणीकरणाचे हे प्रक्रियेक चड नेट मेळतलें म्हण म्हाका खात्री आसा. प्रमाणीकरणा

शीं सुचयताना, हांव फकत साहित्याचे मळार, कागदां पत्रांच्या मळार, शिक्षणीक ळार, पत्रकारितेच्या मळार, प्रमाण भास वापरुंक सांगतां. उलयताना आपल्यो बोलयो लूंक हांव सांगी नां. रत्नगिरीचो मराठी मनीस घरा आनी वाड्यांत आपलीच राठी बोली उलयता जाल्यारुय शाळेंत आनी पत्र वेव्हार करताना प्रमाण मराठीचोच पर करता. अशें जाल्यार जेन्ना एक प्रमाण कोंकणी भास वयर मरतली, तेन्ना कोंकणी ळोवपी मनीस, जे वेगवेगळ्या राज्यांनी शिंपडलले आसात, तांचे मुखार लोक संपर्काक क सादी सोंपी एकरुपी कोंकणी, एक माध्यम जातलें.

सद्या साहित्याच्या आनी शिक्षणाच्या मळार गोंयांत अंत्रुजी बोलयेचो आनी र्नाटकांत मंगळुरी बोलयेचो उपेग जाता. जर आमी ह्या दोनूय बोलयांचेर बारिकमाणेन क्ष दिल्यार आमकां कळून येतलें की, अंत्रुजी ही मूळ साश्टी फांट्याची आनी मंगळुरी मंगळुरकार क्रिस्तांवांची) बारदेशी फांट्याची. जर हांचे मदें आमी सारकेपण घडयलें ाल्यार बारदेशी आनी साश्टी बोलयेंत सारकेपण हाडले परीं जालें. हें कशें करुं येता ाचे विशीं हांवें म्हज्या पांचव्या अवेस्वरांत वेवस्थतीत तरेन दिलां. शब्दकोश रचताना ो. प्रताप नायकांनी सुचयलले भाशेन $D_1$ (Dialect 1 - अंत्रुजी उतर) आनी $D_2$ Dialect 2 - मंगळुरी उतर) अशी खुणा दिवन दोनूय बोलयां मदलीं उतरां दिंवचीं आनी तांतल्यान, वाठारा परमाणे वेगळे अर्थ आसात जाल्यार, एक प्रमाण अर्थ थारांवचो. लिपयेचे बावतींत सगळ्यांक कळीत आमपी भारतीय नागरी लिपी वापरुंया. जांकां नागरी, रोमी आनी कानडी ह्या तिनूय लिपयांची सांगाता वळक नां, तांकां 'अमकी लिपी जाय' आनी 'आमकी लिपी नाका' म्हणचो कसलोच हक नां. अखिल भारतीय पांवड्यार एक केंद्र आसूंक जाय, जांतूं समस्त कोंकणी लोकांचो आमपाव आसूंक जाय. मागीर एकवटान आनी एकमतान कोंकणीच्या अध्यायना खातीर, शिकपा खातीर पाठ्यपुस्तकां, संदर्भ पुस्तकां, विश्वकोश, शब्दकोश, परिभाशीक कोश, प्रमाण व्याकरण, उतरावळ, शब्दकोठी, आदी रचची. कोंकणी जाणकारांनी आपणां मदें झगडचें बदला सर्व कोंकणी बोलयांक गुंटोवपी एक 'सामान्य सूत्' सोदून काडूंक जाय. कोंकणीची प्रमाण रीत शिकोंवचे खातीर गोंयांत, कर्नाटकांत, केरळांत, महाराष्ट्रांत आनी हेर वाठारांनी, जंय कोंकणी लोक रावता, ह्या जाग्यांनी जीं कोंकणी भाशा मंडळां आसात तांणीं कार्यशाळा आनी शिविरां दवरुन हे प्रमाणकृत भाशेचे वरोवपाचे नेम शिकोंव येता. लिपी आनी बोली हांची थारावणी, हो एक भावनात्मक विषय जाला. देखून कोणाकूच दुखय नासताना, फटय नासताना, एकवटान हो वावर करुंया.

सारस्वतांची देवनागरी लिपयेची अंत्रुजी कोंकणी आनी मंगळुरकार क्रिस्तांवांची कानडी लिपयेचे मंगळुरी कोंकणीचो जेन्ना मेळ जातलो तेन्ना हिंदू-क्रिस्तांव धर्मांचे कोंकणी बालयेचो, गोंय-कर्नाटका वाठारच्या कोंकणी बोलयेचो, साश्टी-बारदेशी मूळ

बोलयेचो, गोंय आनी कर्नाटकांतले मुखेल साहित्यीक बोलयेचो आनी नागरी-कानडी लिपयेचो मेळ जातलो. लिपयेचे बाबतींत कानडी लिपी वापरतल्यांनी जर नागरी लिपी आपणायल्यार बरी. हिंदी जाणा आसल्यान आमकां ती लिपी परकी न्हय. नागरी वापरतल्यांनी कानडी लिपी शिकोवन वेळ व्हगडांवचो नाका. नागरी लिपी आपणावन आमी आमच्या साहित्यीक म्हलगड्यांचें मतूय आमी पाळतले. NRI लोकां खातीर, नागरी आनी कानडी लिपीवाल्यांनी, इंग्लीशा वरवीं जाणा आसलले, रोमी लिपयेक आपणांवचे देड शाणेपणाचो थाराव घेंवचो नाका.

एकाच समाजाची बोली प्रमाण म्हण मांदचो हो प्रयोग निर्फळ जालो. हो दुसरो प्रयोग पारकून पळोंवया. कोंकणी विश्वांत आज मेरेन जें कितें घडलां ते एके वाटेन कोंकणीच्या फायद्याकूच म्हणुंया! 1939 थावन चलचो हो वावर, एकवटपणाचो वावर 'आपणाचेंच खरें' वा विविदतायेंत एकवट' म्हणून नष्ट करचो नाका. उगडास दवरात 'एकवटांत चड बळ आसा.' हें नवें सुत्र हांव कोंकणी परजे मुखार दवरतां.

## 5. कोंकणींत एकरुपपण हाडूंक म्हज्यो सुचोवण्यो

प्रमाणीकरण आनी एकरुपपण हे दोन वेगळे विषय म्हण आमच्यान सांगूंक जायना. प्रमाणीकरणाच्या संदर्भांत जशें प्रताप नायक म्हणतात, 'जेन्ना खंयचीय एक बोली वा उच्चाराचे, व्याकरणाचे, उतरावळीचे प्रकार अधिकृत वा प्रमाण म्हण सगळ्या लोकांनी मांदून घेतल्यार आनी वापरल्यार ते प्रक्रियेक भाशेचें प्रमाणीकरण म्हणतात.'' कोंकणी भाशेचें आजून मेरेन प्रमाणीकरण जांवक ना. हाका कारणां हजार, निबां साबार! कोंकणी लोक वेगवेगळ्या राज्यांनी शिंपडलले आसलल्यान, घडये प्रमाणीकरणाची गरज आजून दिसूंक ना. पूण कितेंय आसूं, आमी जर 'एक कोंकणी परजा' जाल्यार आमकां एकटावपी एक भास आसूंक जाय. प्रमाणीकरण ही एक प्रक्रिया. हे प्रक्रियेक नेट दिंवक, म्हजे सुचोवणे परमाणें आमी आतांच्या काळार कोंकणी भाशेंत एकरुपपण तरी हाडुंया. एकरुपपण हाडताना खंयचेय एके बोलयेक मुखेल सुवात आनी हेर बोलयांक अशुद्ध लेकूंक जायना. पूण ह्या बोलयांनी समान जें कितें आसा ताचो आदार घेवन नेम थारांवक जातात. म्हज्या ह्या अवेस्वरांत हांवें मंगळुरी क्रिस्तांवचे बोलयेचो, अंत्रुजी कोंकणी लागीं सर करुन मंगळुरी बोलयेंत आनी अंत्रुजी कोंकणी बोलयेंत एकरुपपण हाडचो यत्न केला. हांव मंगळुरी बोलयेचो आनी म्हाका अंत्रुजी बोली खबर आसलल्यान, हांव हो वावर करतां. दुसरे बोलयेच्या लोकांनी लेगून असलोच वावर आपले बोलये खातीर करुन, अखिल भारतीय पांवड्यार कोंकणींत एकरुपपण हाडूं येता. हांव जाणां हो वावर इतलो सोंपो न्हय. पूण प्रयत्न करुन तरी पळोंवया!

### 1. एकरुपपण हाडूंक म्हजो उपाय

पयले सुवातेर आमी एक गजाल उगडासांत दवरुंक जाय की - मराठी, हिंदी, कन्नड, तमिळ, आदी विकसीत भासां परीं 'एक प्रमाण कोंकणी' सभे माजार वापरुंक आमचे लागीं ना. जात, धर्म आनी प्रांत, मागीर लिपी आनी बोली ह्या सावार जालींनी कोंकणी मांय शिरकाल्या. आमी उलयललीच बोली आनी आमचीच लिपी शुद्ध म्हण पेंपरें वाजयल्यार जायना. कोंकणी उलोवपी प्रत्येक जातीक, प्रत्येक कातीक, प्रत्येका धर्माच्या, वाठाराच्या कोंकणी लोकांक आपलीच एक खाशेली कोंकणी अस्मिताय आसा. हेच आमचे अस्मितायेक आमी 'कोंकणी संस्कृती' म्हण मांदतात. एके जातीचें, धर्माचें वा बोलयेचें जें खाशेलेपण आसा, तें दुसऱ्यांनी वापरल्यार सारकें जायना. दाखलेक, गोंयच्या क्रिस्तांवांचे मांडे, दुल्पदां आनी तियात्र नागरी लिपयेंत बरोवन गांवक आनी म्हणूंक जातात? वा श्री. आमोणकार बाबाची 'रोमाळ कोंकणी ज्ञानेश्वरी' रोमी लिपयेंत बरोवन, ती वाचूंक सांगल्यार कशी जायत?

आज म्हणसर एक प्रमाण भास घडोंवक वा आपणांवक कोंकणी लोकांक केन्नाच गरज दिसूंक ना, अशें दिसता! एकवटान आमी केन्ना तरी प्रयत्न केला? ना जाल्यार हीच आमची आस्मिताय फाल्यां आमची अस्कतकाय जावन उरतली. कोंकणी फकत बोलये रुपांत वा वांटे फांटे जावन, दोन वेगळ्यो भासो कशे जिवे उरत. स्थळांतर धर्मांतर, विवीद लिपयो - तशेंच मराठीकरण, कानडीकरण, पुरतुगेजीकरण, इंग्लेजीकरण, मल्याळीकरणाक लागून एक आसलल्या आमचे कोंकणी संस्कृतायेंत वांटे जाल्यात. असल्या समस्येंत जर गोंयकारांनी एकरुपी कोंकणी रचूंक, बारदेसकारांनी आनी साश्टीकारांनी एकवटान, पुर्विल्ल्या धर्म परगटणारांनी घडयलले परीं एकरुपी ग्रांथीक कोंकणी घडूंक जाय आसलली. पूण गेलें तें गेलें. आतां रडून कांय फायदो नां. जें कितें आसा ताचोच फायदो घेंवया. बारदेशी मुळाची मंगळुरकार क्रिस्तांवांची मंगळुरी कोंकणी आनी साश्टी मुळाची गोंयकार सारस्वतांची अंत्रुजी कोंकणींत मेळ हाडून एकरुपी कोंकणी घडोंवया. आमचे मदें आसात तितलीं एकरुपी समान उतरां आमी वापरुंया आनी जंय नांत, थंय दुसऱ्या बोलयांतल्यान वा भाशेंतल्यान उश्णीं घेंवया. तशेंच, आसा तितली परिभाषीक उतरावळ पुंजोंवया आनी ना जाल्यार परिभाषीक उतरावळ घडोंवया.

'म्हज्यो सुचोवणेच्या ह्या दुसऱ्या भागांत हांवें कांय वास्तवीक सुचोवण्यो दिल्यांत. ह्यो म्हज्यो सुचोवण्यो, हांव तुमचे मुखार दवरतां. नागरी लिपये वरवीं एकरुपी - 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' घडोंवच्या हेतून. म्हज्या ह्या वावराक 'बामणवाद' नांव दिवन भायर मारी नाकात. म्हाका कोंकणीच्यो सावार बोलयांची तशेंच रोमी, नागरी आनी कानडी लिपयांची, तशेंच कोंकणीच्या भयण भासो मराठी, हींदी आनी कन्नडाची

जाणीव आसा. पूण एक खेरीत चत्राय : हांव हांगा जें कितें सुचयतां तें फकत बरोवपांत एकरुपपण हाडच्याक. तोंडा वयली भास बदलूंक जाय म्हणलो म्हजो वाद न्हय वा म्हजें ही कोंकणी तरा समस्त कोंकणी लोकांचेर थापची म्हणली येवजण न्हय. फकत बरोवपांत, साहित्यांत, ग्रांथीक मळार कोंकणींत एकरुपपण हाडच्याक हो म्हजो ल्हानसो यत्न. मानवलें जाल्यार घेयात ना जाल्यार भायर मारात.

देवनागरी लिपी आमी आपणायली देखून हेर लिपयांचें कितें? त्या लिपयांनी आसलल्या पत्रांचें, पुस्तकांचें, नेमाळ्यांचें, आदी कितें? तीं बंद करचीं काय कितें? अशे प्रस्न आमच्या मनांत येंवक पुरो. हाका म्हजी जाप - हीं जीं कोंकणी पत्रां, पुस्तकां, नेमाळीं हेर लिपयांनी आसात तीं चलूं दीत. पूण ह्या प्रत्येक पत्रांत तशेंच नेमाळ्यांत वेवस्थीत रुपार एकरुपी कोंकणीचे नेम आनी ताची घडावळ कशी आसा, ते समस्त कोंकणी परजेक कळीत करोंव येता.

**5.2. मंगळुरी आनी अंत्रुजी कोंकणी वरवीं एकरुपी कोंकणी बरोंवक म्हज्यो सुचोवण्यो**

हे नेम जे हांवें दिल्यात ते फक्त हांगा दिलल्या उतरांकूच न्हय. असले तरेचे सगळ्या उतरांक लागू जातात. तशेंच हांवें आदली रीत - 'अ' आनी नवी रीत - 'न' म्हण खुणायल्या. आदली रीत म्हणल्यार मंगळुरी कोंकणी तरा आनी नवी रीत म्हणल्यार एकरुपपण हाडूंक अंत्रुजी तरा दोळ्या मुखार दवरुन, हांवें सुचयलली तरा. देखून 'अ' हें बोली रूप (मंगळुरी बराबर थोड्या हेर बोलयांची रुपां लेगीत हांगा दिल्यांत) आनी 'न' नवी प्रमाण कोंकणी रुप म्हण लेकचें. सुचोवण्यांक विवरण दिंवची गरज दिसना.

1. **सोडोवन बरोंवचीं उतरां आनी अक्षरां**

1. अ - करिजे, हाडिजे, भरिजे, येजे, वसाजे...
   न - करुंक जाय, हाडूंक जाय, भरूंक जाय, येंवक जाय, वचूंक जाय...
2. अ - हाडन, करन / कर्न, भरन / भर्न, सोडन, मेळन, घालन...
   न - हाडून, करुन, भरुन, सोडून, मेळून, घालून...
3. अ - हाडयां, करयां, दाकोयां, पळेयां, बरेयां, जियेंया, खायां...
   न - हाडुंया, करुंया, दाकोंवया, पळोंवया, बरोंवया, जियेंवया, खांवया...
4. अ - करना, सांगना, हाडना, घालना, भरना...
   न - करिना, सांगिना, हाडिना, घालिना, भरिना...
   करी नाका, सांगी नाका, हाडी नाका, घाली नाका, भरी नाका...
5. अ - म्हणयेत, करयेत, हाडयेत, सांगयेत, येवयेत, घेवयेत...
   न - म्हणूं येता, करुं एता, हाडूं येता, सांगूं येता, येवूं येता, घेवूं येता.
6. अ - मोर्न, अंतस्कर्न, चाकर्न...
   न - मरण, अंतस्करण, चाकरण...

7. अ - दिमी, आमशें, उडास, सैम, म्हळें, पींद, कुटाम, घुणाय, सकाणी, बाळान, हातान, हिनवांक, माणटा, कळटा, कळ्ळें, भल्लें, उल्लें, वणटीर, बुडटी...

न - दिंबी, आंबशें, सैंब, म्हणलें, उगडास, पींज, कुटुंब, घुंवडाय, सकाळीं, बाळांत, हातांत, हिंदवांक, मांडता, कळता, कळलें, भरलें, उरलें, वणतीर, बुडती...

चत्राय : जाणटो, नेणटो, पणटी, धू (wash), धूव (daughter)

मर - मेलें, कर - केलें, भायर - भायलें...

मांडता (arranges), मानता (respects), मांदता (accepts)

2. **निमाण्या स्वरांचेर चड भर दिलल्या प्रभावान घुसपावणी**

1. अ - रगात, उतार, वाचाप, वोकात, माजार, मांकाड, जाण, इश्टागाद...

न - रगत, उतर, वाचप, वकत, माजर, माकड, जडण, इश्टागत...

2. अ - मेळाना, दिसाना, खेळाना, दिसाना, वसाना, शिकाना, जल्माला...

न - मेळना, दिसना, खेळना, दिसना, वचना, शिकना, जल्मला...

3. अ - गोबोर, मांकोड, दुकोर, दोवोर, फातोर, पासोत, गाडांव...

न - गोबर, माकड, दुकर, दवर, फातर, पासत, गाडव.

3. **'अ', 'आ', 'ऑ' आनी 'ओ' ची घुसपावणी**

1. 'अ' चें 'ऑ' आनी 'ओ' जाल्ली चूक

अ - बोरें, नोंवें, सोकोल, पोयर, सो, फोट, बोस, मोत, मोन, भोट, सोपोण, सोंवय, पोद, गोंव...

न - बरें, नवें, सकयल, पयर, स, फट, बस, मत, मन, भट, सपन, संवय, पद, गंव...

बरें + पण = बरेपण

उणें + पण = उणेपण

उतरां + वळ = उतरावळ

नकेत्रां + वळ = नकेत्रावळ

2. 'आ' चें 'अ' जाल्ली चूक

अ - अत्मो, अजून, अखवें, अर्गा, अंको, अनंद, अडकळ, सबार...

न - आत्मो, आजून, आख्खें, आर्गा, आंको, आनंद, आडखळ, साबार...

3. 'अ' चें 'आ' जाल्ली चूक

अ - अपेक्षा, आमर, आचरण, आखेर, आपुरबाय, आपरुष, आयशीं, आजाप, जानवार, आडेची, आवेस्वर, आमास, आंवदूं, पात्तो...

न - अपेक्षा, अमर, अचरण, अखेर, अपुरबाय, अपरुप, अंयशीं, अजाप, जनावर, अडेची, अवेस्वर, अमास, अंदूं, पत्तो.

4. 'ओ' ची गरज

अ - मनजात, सयरो, खरज, संपलें, पंदा, दनपार, सपूत, सरप...

न - मोनजात, सोयरो, खोरोज, सोंपलें, पोंदा, दोनपार, सोपूत, सोरोप...

**4. म्हाप्राणाच्या उच्चारा वरवीं घुसपावणी**

*1. 'म्ह' चें 'म' जाल्ली चूक*

1. अ - मुजो, मुण, माका, मातारो, मयनो, मयमा, मुनीस, माहिती, मुणोन, मुंसर, मेळें...

न - म्हजो, म्हण, म्हाका, म्हातारो, म्हयनो, म्हयमा, मनीस, म्हायती, म्हणून, म्हणसर, म्हेंळें.

1. 'म्हण' = 'say', also introduces to a new clause.

देकीक : ताणें म्हणलें, "हांव आयलां म्हण कोणाक सांगी नाका."

2. म्हणून = म्हण + ऊन = having said.

जशें सांग + ऊन = सांगून

3. मराठींत 'म्हणून' = देखून (therefore)

हाका कोंकणींत 'म्हूण' अशें बरोंवया.

देकीक : ताणें सांगलें म्हूण, हांवें तशें केलें.

**5. हेर भाशांच्या प्रभावन जाल्ली घुसपावणी**

1. अ - आम्ही, तुम्ही, झालें, सांभाळ, उघड, मधें, बंध, शंभर, आधिं, अधिक, आधार, सादाहरण, उदाहरण...

न - आमी, तुमी, जालें, सांबाळ, उगड, मदें, बंद, शेंबर, आदीं, अदीक, आदार, सादारण, उदारण...

2. अ - येतेले, वेतेले, आसतेले, करतेले...

न - येतले, वेतले, आसतले, करतले...

3 अ - आसुल्लें / आसल्लें / आसलेलें / आशिल्लें...

नामुल्लें / नातल्लें / नासलेलें / नाशिल्लें...

('आसा' चें ना आसा = 'नास' लें जाता).

न - 'आमललें' आनी 'नासललें' अशें बरोंवया.

तशेंच 'आयललें, घेतललें, हाडललें, दवरललें... अशें बरोवया.

दिल्ले - दिलल्याक, केल्ले - केलल्याक.

4. अ - येतोलो, खातोलो, बसतोलो...

न - येतलो, खातलो, बसतलो...

5. अ - फालां, किताक, आमचा, खास्त...

न - फाल्यां, कित्याक, आमच्या, ख्यास्त...

6. अ - एकच, दोनच, हांवच...

न - एकूच, दोनूच, हांवूच...

**6. कोंकणी भाशेची मोवाळाय सांबाळुंया!**

1. अ - तारीख, काळोख, ऊठ, आठ, दुभाव, दाखय, वळख, राख, नखेत्र, एकठांय, दखीण, रुख, रोखडें, उखल...

न - तारीक, काळोक, ऊट, आट, दुबाव, दाकय, वळक, राक, नकेत्र, एकटांय, दकीण, रुक, रोकडें, उकल...

पूण मुखार, देखून, अखेर... अशींच बरोंवया. निबंध, प्रबंध, संशोधन हीं संस्कृत आनी हेर भाशेंत आसलल्या परीं बरोंवया.

**7. मराठीचो प्रभाव कोंकणी - इंग्लीश नांवांचेर**

1. अ - जुझे, जेझु, टी. व्ही., सलदान्हा, मसकारेन्हस...

न - जुजे, जेजू, टी. वी., साल्दाज, मास्करेज...

2. 'तत्सम' आनी तद्भव उतरां बरयताना

नक्षत्र (नकेत्र), शिक्षण (शिकप), रक्षण (राकण)

नक्षत्र = न + क् + <u>श</u> + त + र्. श घोळता आनी क उतरता.

तशेंच क्षेत्र (शेत), वृक्ष (रुक), दक्षिण (दकीण), दिशा (दिको), अपवाद (आडवाद), यथेष्ट (धाराळ), भाग्यवंत (भागेवंत), सत्यवंत (सतेवंत), प्रार्थना (प्रार्थन), राज्य (राज), स्वतः (स्वता), स्वामी (सोमी), सर्वेश्वर (सर्वेस्पर), समस्त (समेस्त)... कंसांत आसललीं नीज कोंकणी - तद्भव उतरां वापरुंया.

3. थोडीं कोंकणायललीं उतरां.

अंदाजो, इरादो, फायदो, दर्यो, सुर्यो, फायदो, संस्थो...

4. 'श' आनी 'ष' मदली घुसपावणी

1. नीज कोंकणी चालंत आसललीं उतरां 'श' घालून बरोंवया.

देकीक : साश्टी, कोश, नाश्टो, बेश्टें... आनी 'स' वापरुन : विस्वास, शीस, देस, प्रदेस (प्रदेशीक), परदेस (परदेशी)...

2. संस्कृतांतल्यान देंवून आयललीं उतरां मराठींत, हिंदींत, कन्नडांत, गुजरातींत आसात तशींच बरोंवया.

जशी : कष्ट, नष्ट, शिष्य, विषय, पुरुष, विशेषण, भविष्य, राष्ट्र, राष्ट्रपती, महाराष्ट्र, राष्ट्रकूट, परिषद, निषेध...

8. **'व' आनी 'वी' च्या उच्चारांनी जाल्ली घुसपावणी.**

1. अ - इसर, इकता, इचार, इंच, इबाड, इंगड...
   न - विसर, विकता, विचार, वींच, विबाड, विंगड...
2. अ - वोंक, वोक्ल, वोंट, वोड, वोंप, वोगो, वोत...
   न - ओंक, ओक्ल, ओंट, ओड, ओंप (offer), ओगो, ओत (fill, flow)...
3. अ - ओळोक, ओणोत, ओव्यो, ओंप, ओपार, ओलें, ओत...
   न - वळक, वणत, वोव्यो, वोंप (sow), वोपार, वोलें, वोत (sunlight)...
4. अ - ओळ, ओकात, ओरां, अळशीक, ओस्तूर...
   न - वळ, वकत, वोरां, हळशीक, वस्तूर...

9. **सोटोवन बरोंवच्या उतरांनी घुसपावणी**

1. थोडी नीज कोंकणी उतरां जशीं रोमी आनी कानडी लिपयांनी सुटोवन बरयतात तशींच बरोंवया.
   शिराप (श्राप), कुरपा (कृपा), अस्तरी (स्त्री), गिरेस्त (ग्रेस्त), बिरेस्तार (ब्रेस्तार), परमाणें (प्रमाणें), परतून (पर्तून), परगट (प्रगट), पिराय (प्राय), गरज (गर्ज), जागरुत (जागृत), परस (प्रास), गिराण (गृहण), गिरो (गृह), चंद्रीम (चंद्र), समदीर (समुद्र), अमरुत (अमृत), गुन्यांव (गुन्हा), प्रिथूम (पृथ्वी), धरण (धर्ण), धर्तरी (धरती), गुपीत (गुप्त), उस्वास (स्वास), सोपूत (शपथ), सुवात (स्वात), उपरांत (उप्रांत), रीण (ऋण), दुस्वास (द्वेष), परती पाळ (प्रतिपाळ), शीस (शिष्य), वस्तूर (वस्त्र), गिन्यान (ज्ञान), परजा (प्रजा, पर्जा), दरजो (दर्जो), वरफ (वर्फ), रीत (ऋत), परवा (पर्वा)...
   पाद्री, माद्री, वर्स हीं उतरां अशींच बरोंवचीं.
   दुकर + आक = दुकराक
   उतर + आक = उतराक
   मूळ रूप तशेंच दवरचें.
2. अ - चौकशी, चौवथो, चौदा...
   न - चोवकशी, चोवथो, चोवदा
   पूण चौग, चौक, चौकट, दौलत हीं उतरां अशींच बरोवचीं.
3. अ - पैशे, पैलो, पैस, पैण, वैर, वै, नै, थैं, खैं...
   न - पयशे, पयलो, पयस, पयण, वयर, व्हय, न्हय, थंय, खंय...
   पूण ऐन, सैंब, बैल, पै, सैतान, वैज, जैत, सैत, पैकी हीं उतरां अशींच बरोंवचीं.

**10. व्य, व्ह, वे मदली घुसपावणी**

1. अ - व्यापार, व्यापारी, व्यवहार, व्यवस्था...
   न - वेपार, वेपारी, वेवहार, वेवस्था...
2. अ - वेक्ती, वाकें, कार्यें, वेकरण...
   न - व्यक्ती, वाक्य, कार्य, व्याकरण...
3. अ - होकाल, होडलें, हेलें, होर होगडालें, होडें, नाता, निदता, नेसता...
   न - व्हकल, व्हडलें, व्हेलें, व्हर, व्हगडालें, व्हडें, न्हाता, न्हिदता, न्हेसता.
4. अ - स्वभव, संमत, स्वप्न, सहकार, संमेलन, संपूर्ण...
   न - सभाव, समत, सपन, सकार, समेळ, सपूर्ण...
   बेगीन, वेगीन आनी वेगीं हांतलें एक रूप प्रमाण थारांवया.

**11. परसर्गाचे आदीं एकार बरोंवच्यांत घुसपावणी**

1. हाचे पासत, ते खातीर, ताचे आदीं, म्हजे कडे, तुजे उपरांत...
   तशेंच एके पावटीं, एके आंकवारीक, एका वेळार, एका दादल्याक अशें बरोंवया.

**12. अनुस्वार चुकोंवच्यांत घुसपावणी**

1. अ - हास, केस, सोसो, भरवासो, लाकूड, लोंकाड...
   न - हांस, केंस, सोंसो, भरवांसो, लांकूड, लोखंड...
2. हाणें, ताणें, जाणें... हांचीं भोववचनां हाणीं, ताणीं, जांणीं अशीं बरोंवया.

**13. 'प' आनी 'फ' च्या उच्चारांत घुसपावणी**

1. अ - पाटीं, पाट, पाटल्यान, कापी, मापी...
   न - फाटीं, फाट, फाटल्यान, काफी, माफी...

**14. हेर बोलयेंचो आदार घेवन घुसपावण्यो सुटोंवया**

1. 'ओंक' चे बदला 'ूंक' वापरूंया.
   अ - मेळोंक, खेळोंक, शिकोंक, रावोंक, पावोंक, जेंवक, देंवक, रांवक...
   न - मेळूंक, खेळूंक, शिकूंक, रावूंक, पावूंक, जेवूंक, देंवूंक, रावूंक...
   अ - खाऊंक, येऊंक, धुऊंक, लाऊंक, बरऊंक, दाकऊंक, पळऊंक...
   न - खांवक, येंवक, धुंवक, लांवक, बरोंवक, दाकोंवक, पळोंवक...
   शिकूंक (to learn) शिकोंवक (to teach)
2. कोंकणींत केस, पोट, चाक, जल्म, झर ह्या उतरांचे उच्चार कॅस्, पॉट्, त्साक्, जल्म्, झर अशे जातात. पूण हे दाकोंवक चडीत कुरवो वापरची गरज ना. ए, ओ, च, ज, झ, हींच अक्षरां वापरूंया.

3. विषेश नांव दिताना 'लो' 'गेलो' हीं कुसां वापरची मेकळीक दिंवया.

देकीक : शांतीलें चेडूं, रामालो भाव, सुनीलागेलें घर, मोहनागेलें भाट...

4. 'म्हाका करुंक जाता' आनी 'ताका वाचूंक येता'

हांची 'म्हज्यान करुंक जाता' आनी 'ताच्यान वचूं येता'

हीं रुपां लेगीन आपणांवया.

5. अंत्रुजींत 'ताचे वरीं' हाचो अर्थ मंगळुरींत 'ताचे बरीं' जाता. पूण साश्टींत, 'ताचे वरीं' हाचो अर्थ 'ताचे बराबर' असो जाता. ही घुसपावणी आडोंवचे खातीर 'परीं' हें आदले कोंकणी रूप आपणांवया : 'ताचे परीं', 'तो ताचे भावा परीं दिसता' वा 'तो ताचे भावा भाशेन दिसता.'

6. मंगळुरींत 'व्हय गी ना' अशें बरोंवचे बदला, प्रमाण कोंकणींत 'व्हय काय ना', 'व्हय वा ना', 'व्हय की ना' हीं रुपां वापरुंया.

7. 'करप, बरप, वाचप, उलोवप, हाडप...' हीं भाववाचक नाम रुपां देखून क्रियापदांचें रूप बरयताना 'कर, बरय, वाच, उलय, हाड...' म्हण आपणांवया, आनी तांकां 'चे', 'ऊंक', 'वंक', 'ऊन', आदी कुसां लावन उतरां घडोंवया.

तशेंच पी/णार हीं कुसां लावन करपी दाकोंवया. देकीक बरयता, तो बरोवपी, करता, तो करपी... उलोवपी, सोडोवपी, सोडवनणार, परगटणार, बरयणार...

8. 'जाणां' हाचें विरोदार्थी उतर आदलें कोंकणी उतर 'नेणां' बरें जुळता - 'हांव जाणां' आनी 'हांव नेणां'. देखून 'हांव नकों / नकळों / नकळं' वा 'म्हाका खबर नां / गोत्तू नां' हें बरपी रुपांत वापरची गरज नां.

9. कोंकणींत समस उतरां अशीं बरोंवया -

पांयवाट, दीसरात, शीतकडी, तीसवाडी, चडुणें, फाटींमुखार, ऊटबस, येतावेता, अनभवार्थ, पुनरजल्म...

आप सुवार्थ, आप समर्पण, आप दमाव... हीं उतरां अशीं बरोंवया.

10. आनी, प्रती, दर, हर, जण ह्या उतरांक 'एक' ही कूस लावन घडललीं कोंकणी उतरां जीं हेर बोलयांनी वापरतात, ताका खेरीत अर्थ दिवन तीं आपणांवया.

आनी + एक = आन्येक (another one)

प्रती + एक = प्रत्येक (each one)

हर + एक = हरेक (each one)

दर + एक = दरेक (each one)

जण + एक = जणेक (each one)

देखून 'आनीक जाय' म्हणल्यार want more आनी 'आन्येक जाय' म्हणल्यार another one असो अर्थ धरचो. मंगळुरींत 'आनकी' हाचो अर्थ 'आजून' असो जाता. देकीक : 'तो आनकी येंवक ना' म्हणल्यार 'तो आजून पर्यांन येंवक ना.'

11. 'The name of our puppy is Tinku' हाचें कोंकणींत भाशांतर करताना 'आमच्या पेट्याचें नांव जावन आसा टिंकू' म्हणचे परस 'आमचे पेट्याचें नांव टिंकू. म्हणल्यार अदीक बरें. देखून 'God is love' = 'देव होच मोग.'

12. केद्‌ना, जेद्‌ना, कुरडो, चेरडो, मात्र, हरडें, चिरडी हीं आदलीं कोंकणी उतरां नव्या एकरुपी कोंकणींत -

केन्ना, जेन्ना, कुड्‌डो, चेडो, मात, हड्‌डें, चिड्‌डी... अशीं बरोंवया.

पूण नारल, जरलो, कुरली, परदो... हीं उतरां जशीं हेर लिपयांनी बरयतात तशींच बरोंवया.

हातीं, रातीं, पुस्तकीं, सर्गीं... हीं रुपां कवितेंत वापरूं येता.

**15. आदली रीत आनी नवी रीत - एकरुपपण हाडच्याक**

अ - काकूत, प्राम, निचेव, प्राचीत, मोमोर, कुमोक, मारिफात, कुटाम, भावद्‌थ, समोद्‌थ, लोंकाड, लोकाटो, नमान, शेमटी, सक्कड, केदाळा, तेदाळा, जेदाळा, ऐद्‌दो, केद्‌दो, तेद्‌दो, येद्‌दोळ, तेद्‌दोळ, केद्‌दोळ, व्हड्‌डोळ...

न - काकुळत, परम, निश्चय, प्रायश्चित, मत्सर, कुमक, मार्फत, कुटुंब, भावार्थ, समर्थ, लोखंड, लोखाटो, नमन, शेंपडी, सगट, केन्ना, तेन्ना, जेन्ना, येदो, केदो, तेदो, येदोळ, तेदोळ, केदोळ, व्हदोळ...

**16. आंकडे बरोंवक नवी चाल शिकचे वदला दो. प्रताप नायकान सुचयलली अंतर राष्ट्रीय रीत वापरूंया.**

एकवीस, बावीस... म्हणच्या वदला वीस आनी एक, वीस आनी दोन... म्हणुंया. आट, नव आनी शेंबर (एक <u>शें</u>) अशें बरोंवया.

**17. कॅसेटींचेर, सी. डी., वि. सी. डीं चेर, गितांचीं, चलचित्रांची, तियात्रांचीं नांवां वरयताना सद्याक चालंत आसलले रोमी लिपयेचो वापर करुं येता.**

तशेंच ई-टपाल, एस्. एम्. एस्. धाडताना हाचो उपेग करुं येता.

देकीक : 'आमचें नशीब' (Amchem Noxib). 'निर्मण' (Normonn). 'पाद्री' (Padri).

18. कोंकणींत जाग्यांचीं नांवां आनी क्रिस्तांवांचीं आडनांवां (आल्कुंजां) बरयताना रोमी आनी कानडी लिपयेची रीत वापरुंया.

देकीक : मालवण, वेंगुर्ले, पेदणें, म्हापशें, पुणे, ठाणे, गोंय, मुंबय, उडपा/उडीप, मंगळूर, कोची...

अनुस्वार चुकयनाशें चत्राय दिंवची.

19. व्याकरण आनी उतरावळ घडयताना सुचोवण्यो

1. एकरुपी कोंकणींत विवीद लिंग आनी वचनां आसताना क्रियापदांचीं रुपां -

   1. राम आनी लक्ष्मण घरा गेले.
   2. रोमी आनी नागरी कोंकणीच्यो दोन लिपयो.
   3. सीता आनी गीता घरा गेलीं.

   नामांचे लिंग एकूच आसल्यार, दोन समासम लिंगी नामांचें जें भोववचन रूप आसा, तेंच रूप क्रियापदाक लागता.

   1. घोव आनी बायल बाजारांत गेल्लीं.
      (पुल्लिंग + स्त्रीलिंग हांचें क्रिया रुप भोववचनी नपुंस्कलिंग)
   2. तो चेडो आनी तें चेडूं लग्न जालीं.
      (पुल्लिंग + नपुंस्कलिंग हांचें क्रिया रूप भोववचनी नपुंस्कलिंग)
   3. ती गाय आनी तें पाडूक तण खातालीं.
      (स्त्रीलिंग + नपुंस्कलिंग हांचें क्रिया रूप भोववचनी नपुंस्कलिंग)

      कन्नड भाशेच्या प्रभावान कोंकणी बरयताना/उलयताना चुकीची लिंगां घालची संवय सुदारुंया.

      देकीक : तो आशिर्वाद, ती बस, ती सायकल, तें कुंटुंब, तें नमन, तें लिंग, हें शुभवर्तमान, ती कूड (ते कुडिंत)...

## 2. एकरुपी कोंकणींत सामान्य आनी विकारी रुपां

*पुल्लिंग*

| | सामान्य रूप | | विकारी रूप | |
|---|---|---|---|---|
| आंत्य | एकवचन | भोववचन | एकवचन | भोववचन |
| अ | पूत | पूत | पुता - | पुतां - |
| आ | मामा | मामा | मामा - | मामां - |
| इ | हती<br>खारवी<br>बरोवपी | हती<br>खारवी<br>बरोवपी | हतया -<br>खारख्या -<br>बरोवप्या - | हतयां -<br>खारख्यां -<br>बरोवप्यां - |
| उ | नातू | नातू | नातवा - | नातवां - |
| ओ | घोडो | घोडे | घोड्या - | घोड्यां - |

*स्त्रीलिंग*

| | सामान्य रूप | | विकारी रूप | |
|---|---|---|---|---|
| आंत्य | एकवचन | भोववचन | एकवचन | भोववचन |
| अ | कात | काती | काती - | कातीं - |
| आ | शाळा | शाळा | शाळे - | शाळां - |
| इ | बडी<br>मुदी | बडयो<br>मुदयो | बडये -<br>मुदये - | बडयां -<br>मुदयां - |
| उ | ताळू | ताळवो | ताळवे - | ताळव्यां - |

*नपुंस्कलिंग*

| | सामान्य रूप | | विकारी रूप | |
|---|---|---|---|---|
| आंत्य | एकवचन | भोववचन | एकवचन | भोववचन |
| अ | घर | घरां | घरा - | घरां - |
| इ | तांतीं | तांतयां | तांतया - | तांतयां - |
| उ | चेडूं<br>पोरसूं | चेडवां<br>पोरसां | चेडवा -<br>पोरसा - | चेडवां -<br>पोरसां - |
| एं | केळें | केळीं | केळ्या - | केळ्यां - |

3. एकरुपी कोंकणींत विभक्तींची बांदावळ आनी कारक

| विभक्ती | कारक | इंग्लीशांत | Function | एकवचनांत | भोववचनांत |
|---|---|---|---|---|---|
| पयली | कर्तो | Nominative case | Subject | हांव, तूं, तो, माजरा... | आमी, तुमी, ते, माजरां... |
| दुसरी | कर्म | Accusative/ Objective case | Object | म्हाका, तुका, माजराक... | आमकां, तुमकां, माजरांक... |
| तिसरी | करण | Instrumental Case | Agent | हांवें, तुवें, माजरान... | आमी, तुमी, माजरांनी... |
| चोवथी | संप्रदान | Dative case | 'to...' | म्हाका, तुका, माजराक... | आमकां, तुमकां, माजरांक... |
| पांचवी | अपादन | Ablative case | 'from...' | थावन, सावन, पणजेच्यान, पासून... | |
| सवी | संबंद | Possessive/ Genetive case | 'Possession' | म्हजो, जाचो, रामालो... | आमचो, जांचो, भुरग्यांलो... |
| सातवी | अधिकरण | Locative Case 1<br>Locative Case 2<br>Locative Case 3 | Position<br>Position<br>Position | घरांत, उदकांत...<br>झाडार, माडार...<br>आमगेर, तुमगेर... | झाडांचेर,<br>माडांचेर... |
| आटवी | संबोधन | Vocative Case | 'Calling' | शंकर, शंकरा, पुता, धुवे ... | लोकांनो, भुरग्यांनो... |

## वर्तमान काळ - Present Tense

### सादो वर्तमान काळ / अपूर्ण वर्तमान काळ - Simple Present (ता)

| पुरुष | एकवचन | | भोववचन |
|---|---|---|---|
| पयलो | पु./स्त्री./न. | हांव बसतां | आमी बसतात |
| दुसरो | पु./स्त्री./न. | तूं बसता | तुमी बसतात |
| तिसरो | पु./स्त्री./न. | तो, ती, तें बसता | ते, त्यो, तीं बसतात |

### पूर्ण वर्तमान काळ - Present Perfect (ला)

| पुरुष | एकवचन | | भोववचन |
|---|---|---|---|
| पयलो | पु. | हांव बसलां | आमी बसल्यात |
| | स्त्री. | हांव बसल्यां | आमी बसल्यात |
| | न. | हांव बसलां | आमी बसल्यात |
| दुसरो | पु. | तूं बसला | तुमी बसल्यात |
| | स्त्री. | तूं बसल्या | तुमी बसल्यात |
| | न. | तूं बसलां | तुमी बसल्यात |
| तिसरो | पु. | तो बसला | ते बसल्यात |
| | स्त्री. | ती बसल्या | त्यो बसल्यात |
| | न. | तें बसलां | तीं बसल्यांत |

## भूत काळ - PAST TENSE

### सादो भूत काळ / पूर्ण भूत काळ - Simple Past (लो)

| पुरुष | एकवचन | | भोववचन |
|---|---|---|---|
| पयलो | पु. | हांव बसलों | आमी बसले |
| | स्त्री. | हांव बसलीं | आमी बसल्यो |
| | न. | हांव बसलें | आमी बसलीं |
| दुसरो | पु. | तूं बसलो | तुमी बसले |
| | स्त्री. | तूं बसली | तुमी बसल्यो |
| | न. | तूं बसलें | तुमी बसलीं |
| तिसरो | पु. | तो बसलो | ते बसले |
| | स्त्री. | ती बसली | त्यो बसल्यो |
| | न. | तें बसलें | तीं बसलीं |

## अपूर्ण भूत काळ - Past Imperfect (तालो)

| पुरुष | एकवचन | | भोववचन |
|---|---|---|---|
| पयलो | पु. | हांव बसतालों | आमी बसताले |
| | स्त्री. | हांव बसतालीं | आमी बसताल्यो |
| | न. | हांव बसतालें | आमी बसतालीं |
| दुसरो | पु. | तूं बसतालो | तुमी बसताले |
| | स्त्री. | तूं बसताली | तुमी बसताल्यो |
| | न. | तूं बसतालें | तुमी बसतालीं |
| तिसरो | पु. | तो बसतालो | ते बसताले |
| | स्त्री. | ती बसताली | त्यो बसताल्यो |
| | न. | तें बसतालें | तीं बसतालीं |

## अती पूर्ण भूत काळ - Past Perfect (ललो)

| पुरुष | एकवचन | | भोववचन |
|---|---|---|---|
| पयलो | पु. | हांव बसललों | आमी बसलले |
| | स्त्री. | हांव बसललीं | आमी बसलल्यो |
| | न. | हांव बसललें | आमी बसललीं |
| दुसरो | पु. | तूं बसललो | तुमी बसलले |
| | स्त्री. | तूं बसलली | तुमी बसलल्यो |
| | न. | तूं बसललें | तुमी वमललीं |
| तिमरो | पु. | तो बसललो | ते बसलले |
| | स्त्री. | ती बसलली | त्यो बसलल्यो |
| | न. | तें बसललें | तीं वमललीं |

## भविष्य काळ - FUTURE TENSE

### निश्चित भविष्य काळ - Definite Future (तलो)

| पुरुष | एकवचन | | भोववचन |
|---|---|---|---|
| पयलो | पु. | हांव बसतलों | आमी बसतले |
| | स्त्री. | हांव बसतलीं | आमी बसतल्यो |
| | न. | हांव बसतलें | आमी बसतलीं |
| दुसरो | पु. | तूं बसतलो | तुमी बसतले |
| | स्त्री. | तूं बसतली | तुमी बसतल्यो |
| | न. | तूं बसतलें | तुमी बसतलीं |
| तिसरो | पु. | तो बसतलो | ते बसतले |
| | स्त्री. | ती बसतली | त्यो बसतल्यो |
| | न. | तें बसतलें | तीं बसतलीं |

### अनिश्चित भविष्य काळ - Indefinite Future

| पुरुष | एकवचन | भोववचन |
|---|---|---|
| पयलो | हांव बसन | आमी बसूं |
| दुसरो | तूं बसशी | तुमी बसशात |
| तिसलो | तो, ती, तें बसत | ते, त्यो, तीं बसतीत |

### व्हयकारी आनी न्हयकारी क्रियापदां

| | व्हयकारी (आमा) | | न्हयकारी (ना) | |
|---|---|---|---|---|
| पुरुष | एकवचन | भोववचन | एकवचन | भोववचन |
| पयलो | हांव आसां | आमी आसात | हांव नां | आमी नांत |
| दुसरो | तूं आसा | तुमी आसात | तूं ना | तुमी नांत |
| तिसरो | तो, ती,<br>तें आसा | ते, त्यो,<br>तीं आसात | तो, ती, तें ना | ते, त्यो,<br>तीं नांत |

5. *परिभाषीक उतरावळ घडयताना से मा बॉर्जीस हांच्यो थोडे सुचोवण्यो मनांत दवरुंया*

1. धातूंची एक वळेरी तयार करची, जे वरवीं नवीं उतरां घडोंवक आनी वाचप्यांक तांचो अर्थ समजूंक सोंपें जातलें. (1940व्या वर्सा हो वावर हत्यांगडी नारायण रावान केल्लो आसा. हाचो फायदो घेंवक जाता)
2. हिंदी, मराठी, कन्नडा आनी गुजराती ह्यो कोंकणीच्यो लागशिलल्यो भासो. देखून रासवळ उतरावळीचें भांडार घडयताना ह्या भाशांनी जीं उतरां समासम अर्थान वापरतात, तशींच तीं कोंकणींत आपणांवया.
3. तीन लिंगांची जी सुविधा आसा, ती वापरुन उतरांक अर्थ दिंवया.
   देकीक : हो वेळ (समय), ही वेळ (दर्या देग). शब्दकोशांत आनी विश्वकोशांत उतरां बराबर लिंगूय दिंवचे.
4. लांबलचक उतरां टाळचीं. कोंकणी भास सादी सोंपी. कोंकणी भाशेची ही परंपरा सांबाळुंया.
5. इंग्लीशांतलें, कोंकणींत लिपयांतर करताना 'इ' चे बदलाक 'य', आनी 'उ'चे बदलाक 'व' घालची संवय सोडची.
6. तत्सम आनी तद्‌भव उतरांक थारावीक अर्थ दिवन तीं आमच्या उतरावळींत आसपावूंक जातात.
7. शुद्धलेखनाचे नेम पाळताना हेर भाशांनी 'ष' आसललें 'श' बरयल्यार हांशेंच जातलें.
   देकीक : 'पोषण, आकर्षक, घर्षण' 'हीं उतरां मराठी, हिंदी, कानडी, गुजराती आनी तशेंच तमिळ, तेलुगू, मल्याळमांत लेगीत अशींच बरयतात तेन्ना कोंकणींत पोशण, आकर्शक, घर्शण अशें बरयल्यार सारकें जायनां. ण, ट आनी य हांचें आदीं 'श' बरोंवची चाल जी हेर भासांनी नां, ती आमीय कोंकणीक नाकारल्यार बरें जातलें. तेच परीं 'क' वर्ग, 'ट' वर्ग आनी 'प' वर्ग हांच्या व्यंजनां आदीं 'ष' जशें हेर भारतीय भाशांनी बरयतात, तशेंच कोंकणींत बरोंवया. मूळ कोंकणी उतरांनी 'श' वापरल्यार जाता.
   देकीक : इश्ट, साश्टी, काश्टी, दिश्ट, पाश्ट, हुशार...
   देखून : पुरुष, उष्ण, राष्ट्र, द्वेष, आकर्षण, षटकोन, कृपी, निषेध, शिष्य, बहिष्कार, भविष्य, प्रदुषण, भाषण, विषेशण हीं उतरां अशीं बरोंवया.
   म्हजे सुचोवणे परमाणें जेन्ना 'समाजा'चें आमी 'ममाजीक' करतात, तेन्ना 'समाजीक' अशेंच बरोंवया. 'सामाजिक' वा 'समाजिक' बरोंवचें नाका. पूण एकूच स्वर आसलल्या उतरांनी अकाराचें आकार, ईचें ऐकार, एचें ऐकार

आनी ओचें औकार बरयल्यार जाता.

देकीक :

समाज - समाजीक, इतिहास - इतिहासीक, विज्ञान - विज्ञानीक, भुगोल - भुगोलीक, उद्योग - उद्योगीक, परिभाशा - परिभाशीक, कल्पना - कल्पनीक...

पूण धर्म - धार्मीक, अर्थ - आर्थीक, नीत - नैतीक, लिंग - लैंगीक, देव - दैवीक, लोक - लौकीक...

हे परीं कोंकणी मूळ उतरां रोकडींच कळतलीं.

*मंगळुरी कोंकणींत आसलल्या उतरां परस प्रमाण कोंकणी उतरां वा एकरुपी कोंकणी उतरां वापरच्याक सुचोवण्यो (आज्ञार्थक आनी प्रेरणार्थक रुपां)*

| मंगळुरी कों. उतर | एकरुपी कों. उतर |
|---|---|
| काणघे / काडन घे | घे |
| तिळशी | खबर दी |
| गोत्ता | जाणा |
| गोत्तुना | नेणा |
| गुणसी | गुणाकार कर |
| कुडसी | जोड, मेळय |
| भागसी | भागाकार कर |
| कळवी | वजा कर, उणें कर |
| घडसी | जोड, लाय |
| ओपसी | ओंपून दी |
| सुधारसी | सांबाळ |
| हरसी | स्तुती कर |
| होगोळशी | वाखाणचें |
| अळशी | पूस / खोड |
| गिच्ची | गिचमिडें बरय |
| सेरसी | भरती कर |
| मेचवोंक | मानवूंक |
| मुंदारसी | मुखार / फुडें व्हर |

| मंगळुरी कों. उतर | एकरुपी कों. उतर |
|---|---|
| मस्तु / मुस्त | चड, जायते, साबार, खूब, धाराळ |
| विवरसी | विवरण दी |
| तिरसी | सोंपय, अखेर कर |
| मुगदी | काबार कर |
| मोस कर | घात कर / फटय |
| चेरको, चेल्लो | चेंडो, चलो |
| भोवश्या | चड करुन / भोव करुन |
| शेंकडो | टक्को, टक्के |
| मांडे बेच्चा | तकले फोडाफोड |
| दोण्णो | दांडो |
| उपद्र | त्राम, विघ्नां |
| बायिपाठ | तोंडपाठ |
| मुसकार | मुस्कट |
| बीग | थालें, कुलप |
| स्थळ | थळ |
| गुद्दू | छुमको, मुटी |
| | |

| मंगळुरी कों. उतर | एकरुपी कों. उतर |
|---|---|
| गुद्दाळाय, गम्मत | दबाजो, मजा |
| वागील | दार |
| गोबळो | लोटो, पेलो, ग्लास, चेंबू |
| हेगे | दुस्वास, द्वेष |
| भाटी, कुरवें | दालें, पांटली |
| आस्त बदीक | भूंय भाट |
| पोट्टू | पाड, रितें |
| सालवालो | हारलो |
| पोक्री | मस्तो |
| चिक्कें | इल्लें, थोडें |
| कड्तील | प्रती, पुस्तिका |
| हळतान | मापान |
| ससी | रोंपी |
| गीट, गेरो | रेखा, रेग, वळ |
| कोकाय | लांब जीव |
| बिक्काता | कष्टाता |
| तडव | वेळ |
| गत्ती गाट | आळसाय |
| सोन्ने | शुन्य |
| गादो/वेसाय | शेत |
| समेत | सैत |
| वरेग | म्हणसर, मेरेन, पर्यान |
| तग्ग | सकयल |
| गेरसी, तोडपें | सूप |
| समा, हळत | सारकें |
| दोण | व्हडें, तारुं |
| चुरुक | हुशार, बुदवंत |

| मंगळुरी कों. उतर | एकरुपी कों. उतर |
|---|---|
| हगूर | हळू |
| अनवार, इजा | त्रास, पिडापीड |
| आक्लास | धुमाळे |
| गलाटे | आवाज |
| कुवदी | मत्सर, जळण |
| केलशी | म्हाळो |
| धूर्त, मिस्तेर | खुणा, कुरु, गुपीत, घूट |
| सलगी | सडिळाय, धिलाय, सदळ, सैल, मेकळें |
| गुलोब | गुलाब |
| साक्स | गवाय, साक्षी |
| जुल्मान | दंड, ख्यास्त |
| जोडसी | जोड |
| तरजुमो | भाशांतर |
| तर्क | भासा भास |
| बोट्टू | थेंबो, टिंबो, थिवो |
| तेंकडो | कोवलें, केळकें |
| तडव | वेळ, उशीर |
| नेमियार | निरमी, नेमचें, निवड |
| प्रेतन, पेचाड | यत्न, प्रयत्न |
| पोंवता | गळता |
| उत्तीम | उत्तम |
| बांदखान | वंदखण |
| वहुशा | घडये |
| मनोभाव | मनोवृत्ती |
| वुडतुगाल | वुडती |
| वेंजार, वेजमेंत | आर्शिवादीत |

| मंगळुरी कों. उतर | एकरुपी कों. उतर |
| --- | --- |
| सुंका | कट, पटी, दंड |
| भोंवारी | भोंवतणीं |
| माणको | वेवो |
| कोंडाटो | अपुरबाय |
| वडगा | उत्तर |
| तेनका | दक्षिण, दकीण |
| मुडला | उदेंत |
| पडला | अस्तंत |
| ज्यारी कर | कार्य रुपाक हाड |
| कुंबू / लड्ड | कोसमेलां |
| पोंटेला | पोंवशेला |
| तिळसोणी | कळोवणी, शिडकावणी, शिटकावणी |
| कालें | कितें |
| तोंद्रें | कष्ट, त्रास |
| ओंटे | ऊंट, करें |
| जाल | खळें, आंगण |
| गूंड | खोल |
| हळ्ळी | गांव |
| लेक्का | गणीत |
| म्हाग्गी | गुणावळी |
| बड्ड | धार नासलें |
| दड्ड | हुशार नासलो |
| कत्तें | गाडव, गाडूं |
| मंगा | माकड |
| फायस कर | छाप |
| सवाल | प्रश्न |
| कागात | कागद |
| सब्द | शब्द / उतर |

| मंगळुरी कों. उतर | एकरुपी कों. उतर |
| --- | --- |
| सालीस / मुलभ | सोंपें |
| दाक्तेर | दोतोर, वैज |
| आसपत्र | हॉस्पिटल, रुग्णालय |
| कुटाम | कुंटुंब |
| सुत्तू | गोल, वर्तूळ, वाटकूळ |
| वोड्त | बाग |
| तीर्प | निर्णय, थाराव |
| मेट | पावल |
| हुशार ना | बरो ना |
| ओत्ताय | बळान, अट करुन, सक्तीन |
| अस्तिदार | भाटकार, धनी |
| हिताल, तोट | भाट, भूंय भाट |
| केप्पो | भेरो |
| जोर कर / गोवजी | भेश्टाय |
| सुत्तू | भोंवडी, गोल |
| माटें | भुंयार |
| मांडो | तक्ली, माथें, मस्तक |
| कुंटा | मोटवो |
| पेद्दो | पिसो |
| मड्डी, मळपी | मूर, गाळ |
| पिट्टासी | चामटो, कंजूस |
| कोबू | ऊस |
| आंगड | पसरो |
| आंगडीगार | पसरकार |
| अड्डी | अट |
| अत्रेग | अत्रेक |
| अनभोग | अणभव, अनुभव |
| आबळे | हो / ही पळे |

| मंगळुरी कों. उतर | एकरुपी कों. उतर |
|---|---|
| अस्तम | अस्तंत |
| हांकार | अहंकार, हांवपण |
| आंकडो | आखाणो, आंगटो |
| आतासी | लाबय, मेळय, हातास |
| आपड | आफूड |
| आपलेस्ताकी | आपशीं, आपोआप |
| ओट्ट | वट, वांगडा, सांगाता |
| आरय | जमो कर, एकटांय कर |
| आलोचन | येवजण |
| येवची | येवजी |
| विश्यांत | विशीं, संदर्भांत |
| आसा कर | आसपाव, आटाप |
| आमसोर | अंवसर, गडबड, ताकतीक |
| विश्वे | कुडीचे सांदे |
| कुन्याद | मेवणो |
| कुद्रो | जुंवो, द्वीप |

| मंगळुरी कों. उतर | एकरुपी कों. उतर |
|---|---|
| मायाक | नांच जावचें |
| मुखांत्र | मार्फत, वरवीं |
| शेर | शार |
| आयलेवार | आजकाल, हालीं, सद्या |
| सिसर | मानगें, सुसर |
| सोल्लो | करार, कबलात |
| साकास | सवकास, हळू |
| हसत | हती |
| हांतुळण | हांतरुण |
| येस | भेस |
| तिद्दी | तपासून पळय |
| आवर | हुंवार |
| पिड्यार जालो, भायर पडलो, सरलो | मेलो, अंतरलो, मरण पावलो |
| बिट्टी काम | ल्हान काम, बारीक काम |

*7. ह्या उतरांचो एकूच अर्थ थारांवक जाय*

| उतर | मंगळुरांत अर्थ | गोंयांत अर्थ |
|---|---|---|
| झडटी | judgement | inventory list, search list |
| सोरो | alcohol | wine |
| नुस्तें | vegetable dish | fish |
| जायत | okay | may happen |
| तर्क | discuss | logic |
| पेटो | dog | puppy |
| प्रत्येक | especially | each and everyone |
| वेजार | feel bad | feel bored, feel bad |
| वेस | vocation | very well |
| व्रोंडो | tender coconut | undeveloped coconut |
| मोड | cloud storm | |

## 6. समारोप

म्हज्या ह्या प्रबंधांत हांवें कोंकणी विशीं जें कितें म्हज्या काळजा मनांत आसललें, ते सगळे विषय हांगा दिल्यात. कोंकणी भाशेची आनी कोंकणी अस्मितायेची जागरुती गेलल्या शेंकड्यांत मात जाल्या. तेन्ना थावन आज मेरेन जायतें बरें जालां, जायतें भिगडालां. तरी कोंकणी जियेली. आमी जरी कोंकणी मांयेक एकवटान तेंको दिना जाल्यारुय कोंकणी जियेतली हांतूं कांयच दवाव नां. फाल्यां जर मराठी गोंयची राज भास जाली जाल्यारुय दिसपट्टो वेव्हार जिबेर कोंकणींतूच उलोवन जातलो. तशेंच हेर कोंकणी वाठारांनी लेगीत जरी थंयचे भाशेचो शेक आसलो जाल्यारुय कोंकणी मनीस घरा भितर तरी कोंकणी उलोवन ती जिवाळ दवरतलो. कोंकणी लोकांचो कोंकणी भाशे लागीं जो मोग आसा तांतूं म्हाका कांयच दुबाव नां. पूण आपल्या भयण भाशां परीं ती विकसीत आनी प्रगत जायत काय? हाचो म्हाका दुबाव लागता.

इतलें आसुनूय आमचो समाज वांटे जावन कोंकणी अस्मिताय जियेंवक कसो तयार आसा गाय, हें नियाळून दूख भोगता. कोंकणी आमची भास म्हणतच आमी समस्त कोंकणी लोकांनी मुखार येवन ती सांबाळूंक जाय. आमकां एकवटान गुंटूंक शिवाजी राय वा आनी एक माधव शानभाग येंवचो नां. आमीच तिचो सांवाळ करुंक जाय. कोंकणी मन्शा मुखार ही एक व्हडली जबावदारी. पूण हांव जाणां अशें जांवचें ना. काळांतरान आमच्या समाजांत दोन मुखेल वांटे जातले. घडये हाचीं बिंयां रोवून जाल्यांत.

कोंकणी भास सांबाळची कोणाकूच गरज दिसना. जांकां दिसता ती आपणाक खुशी आसले परीं ती सांबाळीत आयल्यात. तशेच सांबाळतले. 'एकवटांत चड बळ आसा. हाचें म्हत्व आमा कोंकणी लोकांक आजून मेरेन समजूंक ना. म्हजो हो प्रवंध वाचलल्या उपरांत एक दोन कोंकणी मनां जरी उजवाडीत जालीं जाल्यार, हांव म्हजो हो वावर सुफळ जालो म्हण चिंतपी. देखून आप आपणालीं कोंकणी उतरां पुंजोवन आमी आमची भास गिरेस्त करुंया.

**संपादकाचो श्हरो**

ह्या लेखनांत्ल्या संसोधिक विचारांची, वादांची आनी अभिप्रायेंची सग्ळी जवब्दारी लेखकाची; हांतुं आमी कसलीच तांत्रीक बद्लावण करुंक ना.

# आदारावळ
## संदर्भ पुस्तकांची वळेरी


**1. कोंकणी शुद्धलेखनाचीं पुस्तकां**

1. कोंकणी बरोंवची प्रमाण रीत (कानडी लिपयेंत) : प्रताप नायक आनी सांगाती, 2001, टॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, परवरीं - गोंय
2. रोमी लिपयेंत कोंकणी बरोंवची रीत : प्रताप नायक, 2005, टॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, परवरीं - गोंय
3. कोंकणी बरोंवची प्रमाण रीत (देवनागरी लिपयेंत) : प्रताप नायक आनी सांगाती, 2002, टॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, परवरीं - गोंय
4. कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम : गोवा कोंकणी अकादेमी, 2003, गोंय
5. कोंकणी ऑर्तोग्राफी इन रोमन स्क्रिप्ट : दाल्गाद कोंकणी अकादेमी, 1988, पणजी - गोंय

**2. कोंकणी व्याकरण पुस्तकां**

1. कोंकणी व्याकरण - सहज अभ्यास : सुरेश जयवंत बोरकार आनी दामोदर केशव घाणेकार, 2004, राजहंस वितरण, पणजी - गोंय
2. कोंकणी व्याकरण : मा. फा. फिलीप नाजरेत आनी श्री. दिनेश पै, 1985, मंगळूर-कर्नाटक
3. सारकी आमची भास सोंपी - कोंकणी स्वः शिक्षक : फा. आंतोनियो एफ्. एक्स. रॉड्रिक्स, c.f.s.r. 1983

**3 कोंकणी शब्दकोश आनी उतरावळी**

1. कोंकणी-इंग्लीश शब्दकोश : फा. आंजेल्युस माफये, 1883, मद्रास पब्लिशींग हाउस, मद्रास
2. इंग्लीश - कोंकणी - हिंदी उतरावळ : पुंडलिक नायक, 2003, गोवा कोंकणी अकसादेमी, पणजी - गोंय
3. सब्दकोश : फा. क्रेमेन्स मोंतेर, 1967, कोंकणी बरयणारांचो एकवट, पिलार - गोंय
4. कोंकणी - इंग्लीश डिक्शनरी : सुरेश बोरकार आनी सांगाती, 2004, राजहंस वितरण, पणजी - गोंय
5. इंग्लीश - कोंकणी डिक्शनरी : प्रकाश थळी आनी सांगाती, 2004, राजहंस वितरण, पणजी - गोंय
6. कोंकणी शब्दकोश : श्रीपाद देसाय, 2000, पेडणें - गोंय

7. इंग्लीश - कोंकणी डिक्शनरी : गुरुनाथ केळेकार, 1994, फोकस प्रॅस, बेंगळूर - कर्नाटक
8. TSKK लिंग्विष्टिक ग्लॉसरी : फा. माथेव आल्मेद आनी सांगाती, तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, परवरीं - गोंय
9. ऑक्सफर्ड सचित्र शब्दकोश : इ. सी. पार्नवेल आनी तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, 1992, ऑक्सफर्ड युनिवर्सिटी प्रॅस, ऑक्सफर्ड - मुंबय

## 4. कोंकणी शिकचीं पुस्तकां

1. लॅट्स लर्न कोंकणी : सुरेश जयवंत बोरकार, 2005, राजहंस वितरण, पणजी - गोंय
2. कोंकणी कलियोण : प्रेम कुमार, 2001, कोंकणी संस्थो, मंगळूर - कर्नाटक
3. कोंकणीचें गुरुपुस्तक : फा. क्रेसेन्स मोंतेर, 1962, पिलार - गोंय
4. TSKK कोंकणी मुळावो कोर्स : फा. माथेव आल्मेद, 2004, तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, परवरीं - गोंय
5. सुलभ गोमंत भारती कोंकणी पाठ्यपुस्तकां : यत्ता पांचवी ते सातवी, शिक्षण संचालनालय, 2007, पणजी - गोंय
6. कोंकणी वाचनपाठ : यत्ता आठवी ते धावी, गोंय माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक शिक्षण मंडळ, 2007, परवरीं - गोंय
7. येया, कोंकणी शिकुंया 1 आनी 2 : सव्या आनी सातव्या वर्गाक कोंकणी पाठ्यपुस्तकां, गडग - कर्नाटक

## 5. कोंकणी कोर्स

1. कोंकणी संस्थो, सांत लुवीस म्हाविद्यालयाचो पि. जी. पदव्युत्तर कोंकणी कोर्स, मंगळूर - कर्नाटक

## 6. कोंकणी संदर्भ पुस्तकां

1. सोद - खंड 1 ते 13 : तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, परवरीं - गोंय
2. डिस्क्रिप्शन ऑफ कोंकणी : फा. माथेव आल्मेद, 1989, तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, परवरीं - गोंय
3. समग्र शणै गोंयबाब - खंड 1 ते 4 : शांताराम वर्दे वालावलीकार, 2003, गोवा कोंकणी अकादेमी, फोंडें - गोंय
4. राकणो वज्रोत्सव अंको - आमची कोंकणी दायज : संपादपी - मा. वा. सामंतेल सिकेर, 1998, मंगळूर - कर्नाटक
5. कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय : 2003, कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव - गोंय

6. कारबारी कोंकणी : भुषण भावे आनी सांगाती, 2001, राजहंस वितरण, पणजी - गोंय
7. अ हिष्ट्री ऑफ कोंकणी लिट्रेचर : डॉ. मनोहर सरदेसाय, 2000, साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली - भारत
8. लिट्ररी कोंकणी - अ ब्रीफ हिष्ट्री : दो. जुजे पिरेर, 1992, गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी - गोंय
9. कोंकणी भाषा - प्रकृती आणि परंपरा : डॉ. सु. बा. कुळकर्णी, 2007, गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी - गोंय

**7. कोंकणी नेमाळीं आनी पत्रां**

**रोमी लिपयेंत**

1. वावराड्यांचो इश्ट : पिलार - गोंय
2. दर म्हयन्याची रोटी : परवरीं - गोंय
3. रेनेवेसांव : पणजी - गोंय
4. गुलाब : पणजी - गोंय
5. द गोवन रिव्यू : मुंबय - महाराष्ट्र

**देवनागरी लिपयेंत**

1. कोंकण टायम्स : पणजी - गोंय
2. जाग : मडगांव - गोंय
3. सोद : TSKK परवरीं - गोंय
4. अमर कोंकणी : मंगळूर - कर्नाटक
5. सुनापरान्त - दिसाळें : पणजी - गोंय

**कानडी लिपयेंत**

1. राकणो : मंगळूर - कर्नाटक
2. दिवो : मुंबय - महाराष्ट्र
3. अमर कोंकणी मंगळूर - कर्नाटक

**8. कोंकणी संदर्भ अंतर जाळार**

1. G.S.B.com
2. TSKK.org
3. konkaniworld.com
4. daijidubai.com
5. mangalorean.com
6. goanet.com

